# जैत

श्रीधर नरसिंह कामत



# जैत


मडगांव – गोंय
प्रकाशन क्रमांक : 97
1993

'साहित्य परसरण' भागीक : सात रुपया

प्रकाशक – राज़हंस वितरण
1–मीनाक्षी बिल्डिंग, डॉ. व्होल्फांगु द सिल्व्ह मार्ग,
पणजी, गोवा – 403 001

मुद्रक – राजहंस ऑफसेट
1–मीनाक्षी बिल्डिंग, डॉ. व्होल्फांगु द सिल्व्ह मार्ग,
पणजी, गोवा – 403 001

मुखपृष्ठ – गजानन च्यारी

मोल :
1993 वर्सा 30 रुपया
1994 वर्सा 36 रुपया
1995 वर्सा 43 रुपया

'पयलो चंवर' येवजणेत गोवा कोंकणी अकादमीच्या
पालवान हो संग्रह प्रकाशित केला

ISBN 81-85339-96-1

## मांडावळ

# इंतेर

पयलो प्रयोग माचयेर हाडपी संस्था : गोवा इंजिनियरींग कॉलेज

(मंद पार्श्वसंगीत. ल्हवल्हव करून माचयेचे दावे वटेन एक स्पॉट. एकटो बसला. आपल्याच सपनांत घुस्पला.)

**तो एकटो** : ही गजाल आयज सुरू जाली ना. आयज तिचो शेवटूच न्हय. अखंडरित्या चलत आयिल्ल्या काळचक्रांतल्या काळखांत खीणभर कांय जायना, पूण लख्ख उजवाड पर्जळावपी ती एक कीट. त्या उज्याचे किटीचीच ही काणी.

हय. तेदुसूय हांव असोच बशिल्लों. मंद वारो आंगार काटो हाडटालो. पीठ गळिल्लेवरी चान्नें गळटालें. सरभोंवतणचो काळोख पांयापोंदची वाट गिळीत म्हाका खावंक येता काय दिसतालें. म्हज्या मनाचेर सैमाचें एक विचित्र अशें दडपण आयिल्लें. आनी तेन्नाच तो आयलो.

(पार्श्वसंगीत. तो येता दुसऱ्या एका स्पोटांत)

**तो** : कल्परुखा ! कितलो म्हणून मोगाळ रे तूं? दीसभर वत सोंसून आतां एकादऱ्या कर्मयोग्यावरी चांदण्याचें सूख भोगत बसला. हे चंद्रा ! कितलो रे तूं सुन्दर ! म्हयनोभर आपल्या आंगांतल्या कलांनी हे धर्तरिवयल्या बाविल्ल्या मनाचेर मायेची फुंकर घालता.

येयात लोकांनो येयात. म्हाका तुमचेमदीं घेयात. तुमचो करात. म्हाका धर्तरेचीं गितां शिकयात. हांव तुमकां सर्गातलीं स्वातंत्र्याचीं गितां शिकयन. तुमच्या सुखांत हांव हांसन.

तुमच्या दुखांत हांव रडन.

**एकटो** : हे धर्तरिवयल्या लोकांचीं दुखां तुज्या नाजूक अशा काळजाक सोंसचीं नात. तूं फुटून वतलो. काबार जातलो.

**तो** : दिव्याचेर झोंपोवन वचपी पतंगाक कितें खबर आसता, ताजो फुडार कितें तो ? ह्या लोकांचीं बाविल्लीं तोंडां पळोवन ओगी रावचे बदला तांचीं दुखां आयकून फुटून वचप हांव चड पसंत करीन.

येयात लोकांनो ! म्हाका तुमचो समजात. तुमचीं दुखां म्हाका सांगात. म्हाका तुमच्या दुखांचो वांटो दियात.

**एकटो** : हे धर्तरिवयल्या लोकांच्या दुखांचो वांटो मागपी सभाग्या, आयकतलो आमची काणी ? आयक तर –
काळखाच्या ह्या राज्यांत, काळखाचोच शेक
काळखाचे थंडेन केला रक्ताचोच झेल.

**तो** : पयसुल्ल्यान आयकूंक येता एक कुकारी
ह्या कुकाऱ्यांक जाप हांव दिवं
काय हांवूय झेलच जावन रावं !

**एकटो** : मोडसर बागवतात हांगासल्ले फाटीचे कणे फाटीक तेंकिल्लें पोट, पिंदिल्ले अब्रूचे कुडके

**तो** : आयकूंक येता हें फाटीर वाजतलें चाबूक. ह्या चाबकाच्या अत्याचाराक जाप हांव दिवं काय हांवूय चाबुकूच जावन रावं !

**एकटो** : काळखाचो फोंड उस्तितना सांपडली एक कीट
मुमुरखेंच हांसत काळोख ती गिळी
सैमांतलो काळोख गिळपाचो तिजो हावेस
तिज्या ह्या यत्नाक साथ आमी दिवं
काय आमीय काळोखच जावन रावं ?
एके वटेन काळखाचो भंय. दुसरे वाटेन फाल्यांच्या सुर्याची आस. आमी कांय थारावंक कित्याक शकनात ? काय आमची

विचार करपाची शक्तच कोणें काडून घेतल्या ?

(काळोख. एका कोनशाक एक स्पॉट)

नं १ : हांवें म्हजेच हात बांदून वडयल्यात. अन्याय पळोवन तांणी शिंवशिंवचें न्हय म्हणून.

नं २ : हांवें म्हजेच दोळे बंद केल्यात.

नं ३ : हांवें म्हजेच ओंठ शिंवून वडयल्यात तांणी न्याय केन्नाच मागचो न्हय म्हणून.

नं ४ : उजवाड दिवपी तो दिवो हांवें केन्ना पालयला ! काळखाचीं जळमटां झडचींच न्हय म्हणून.

कोरस : आनी आतां ह्या काळखाची आमकां संवय जाल्ली आसा.

तो एकटो : पस्तीस वर्सां जालीं
आमी आडखळत आसात
वाटकुळो रस्तो हो कांट्या फातरांचो
गळ्यांत गळो घालून माड्डीत आसात.

तो : तुमचे खूबशे फुडारी
हातांत दिवो घेवन
तुमकां वाट दाखयत आसात
पूण ताजेपयलीं तांणी खात्री करून घेतिल्ली आसा की तुमी सगले कुड्डे आसात.

सगले : कुड्डे ? न्हय, न्हय आमी कुड्डे न्हय.

तो : तशें जाल्यार तुमकां तुमचे सरभोंवतणचो काळोख कित्याक तोपना ? तुमी कुड्डे न्हय हें सिध्द करपाचो वेळ आयज आयला. पुर्वेक म्हाका एक तांबडें नखेत्र दिसूंक लागलां.

तो एकटो : सूर्य गेला अस्तमते आड जरी
रात आसा दुस्मानाची
तेच जाणविकायेन सांगतात आमी
झगडटले आमी, गर्जतले आमी.

तो आनी
कोरस : रातकिड्यांची स्पश्ट किरकीर
लखलखपी तें तांबडें नखेत्र
सुंदर अशे ते फांतोडे खातीर
झगडटले आमी, गर्जतले आमी.
**************
आयकात सगले उगडून कान
फाल्यांचें हें यशोगान
फाल्यां घडये नासतले आमी
म्हणूनच आज
गर्जतले आमी, झगडटले आमी

एकटो : एक किरण आमचे जिणेंत आयलां. ताजें बोट धरून आमी सुर्याक लागीं करया, आमची जीण पर्जळीत करया.

(काळोख. देखाव एक सोंपलो)

(देखाव दोन. उजवाड. कांय लोक दोंगराचें प्रतीक म्हणून हातांत हात धरून उबे आसात.)

कोरस : दोंगराचे वेंगेंत धाकटोसो गांव
जंगलाचो राजा तुजेंच नांव
शेतांत कश्टान घाम गळोवन
काळे मातयेंत पिकयता धान
माथ्यावयलें रान तुजेंच जावन
तुका रे मेळना पोटाक खाण
भुकेच्या नांवान सदांच बोबाव
जंगलाचो राजा तुजेंच नांव

('तो' आनी 'तो एकटो' एका स्पॉटांत)

**एकटो** : अगडबंब अशा आमच्या देसांतलो हो एक प्रातिनिधीक असो गांव. राजेशाय गेली आनी ब्रिटीश आयले. ताजे मागीर स्वातंत्र्य काय कितें म्हण्टात तें आयलें. पूण हो गांव असोच आसा. हांगाय बी रात जातकीर दीस जाता.

**तो** : तोच तो तांबडो मातयेचो रस्तो. मात्सो फुडें तिस्क. रस्त्याच्या दोंयवशीन पाचवींचार शेतां. कामेऱ्यांच्या घामान फुलिल्लीं, पूण फुलांतलें म्होंव मात वेगळेच भोंवरे चाखतात.

**एकटो** : कायदे आयले आनी गेले. वतना गिरेस्तांची गिरेस्तकाय वाडोवन गेले.

**तो** : गरिबांक आनीकय गरीब करून गेले. ह्याच लोकांनी आपल्या रक्तान शिंपिल्लीं शेतां केन्ना भाटकारांचीं जालीं, त्या कायद्याक केन्नाच गोमलें ना.

**एकटो** : हजारांनी वर्सांच्यो आमच्या समाजाच्यो रुढी–परंपरा ह्या कायद्याक थोडीच भीक घालतात. कोणेंय कितलीय तकली आपटिली तरीकय निमाणें पयशांफुडें आनी सत्तेफुडें सगलेच नमतात.

**तो** : ते कायदे खरें म्हणजे आमचे खातीर नाशिल्लेच. ते कायदे ह्या गिरेस्त भाटकार आनी भांडवलदारांच्या सरकारान आपल्या पात्रांवाखातीर निर्मिल्ले.

**एकटो** : हय. आतां ह्याच गांवाची गजाल पळे तूं. खूब – खूब वर्सांपयलीं हांगा सगले खावन–पिवन सुखी आसले. आनी मागीर एक कीड एका भाटकाराच्या रुपान गांवांत सरली. आयलो तो केन्ना परतलोच ना.

**तो** : कित्याक ? ताजी वाट सोर्पान बी आडयली काय कितें ?

**एकटो** : घडये आसत. घडये नासत. पूण तो उरलो तें खरें. थोड्या दिसांनी लोकांचे दोळे उगडले, पूण तांची शेतांभाटां –

**तो** : तीं शेतां – भाटां आतां तांचीं खंय उरिल्लीं ? तीं केन्ना ह्या ना त्या निमतान भाटकाराचीं जाल्लीं. अशेंच मरे ?

(तांचेर काळोख. लोकांचेर उजवाड )

कोरस : गेलीं रे गेलीं, शेतां रे गेलीं
आमकां फटोवन, भाटकारान व्हेलीं
आमची दौलत परक्यांनी व्हेली
भाटकारशाय नाडूंक लागली
भाटकारशाय आयली आनी सगलें बदललें
कश्ट करून सुखान रावचे दीस रे सरले
वतांत पावसांत काम करून धान पिकयलें
खणचें, रोवचें, कापचें सगलें आमीच रे केलें
सगलो वोगोत कश्ट करून घाम गळयलो
निमण्या दिसा भाटकार खंड घेवन रे गेलो
कश्ट करचे आमी आनीक शेती धनयांनी
फुकट बसून खावची ही नीत रे खंयची.

तो : हें सगलें कित्याक घडटा तें खबर आसा तुमकां !

कोरस : ना.

तो : एकूण तुमकां कळटलें कशें ? तुमच्या दोळ्यांमुखार तांणी फकत स्वातंत्र्याचीं चकचकीत बेगडी सपनां दवरल्यांत. ते बेगडे फाटल्यान लिपिल्लो काळोख ते तुमकां केन्नाच दाखोवंचेले नात.

नं. १ : हे, ते म्हणजे कोण ?

तो : ते म्हळ्यार दुसरे तिसरे कोणच न्हय,जाल्यार हो सत्ताधारी वर्ग, जो तुमच्या आमच्या कश्टाच्या घामार जगता.

नं. २ : म्हळ्यार कोण ? सरकार.

तो : सरकार ? सरकार तांच्या हातांतलें फकत बावलें. हे लोक ह्या जगाक लागिल्ली कीड. हे भांडवलदार, हे भाटकार – सरकार तांच्या हातांतलें बावलें. आमचे भुंयेर आमी आमची सत्ता हाडूंक जाय. हड्डें फुलोवन म्हणूंक जाय –

कोरस : इन्किलाब, इन्किलाब !

तो : बेठ्या पोक्या उतरांनी क्रांतीच्या देवळांत येवकार मेळना. तेखातीर रगत आटोवचें पडटा.

कोरस : आमची तयारी आसा.

तो : आमचें सपन आसा संपूर्ण क्रांतीचें. कामेऱ्यांचें राज हे भुंयेर हाडपाचें सपन. गांधीतोपयेच्या बुरख्यापोंदा लिपिल्ल्या भ्रश्टाचाराक, कदेलाच्या, सतेच्या आडसाक लिपिल्ल्या अत्याचाराक नश्ट करपाचें सपन. तेखातीर आयज आमी आमच्या रक्ताचो अभिशेक ह्या सुर्याक करुया आनीक ताज्याच किरणांचें बोट धरून आमचें सपन खरें करुया. आमचें सगल्याचें रगत एके धारेंत व्हावंदी. आमचेमदीं रक्ताचें नातें निर्माण जावंदी.

(काळोख. एकट्याचेर उजवाड)

एकटो : उलयतां उलयतां ताणें सुर्याक प्रणाम केलो. कमराचो चाकू उगडलो आनी दोळ्याची पापणी तेंकचेपयलीं ताज्या बोटांतल्यान रक्ताची धार सर्र करून भायर उसळ्ळी.

कुपांआडचीं नखेत्रां सगल्यांच्या दोळ्यांत दिश्टी पडलीं आनी सगल्यांच्या तोंडांतल्यान उतरां भायर सरलीं – (ताजेर काळोख. फाटल्यान उजवाड.)

कोरस : आमी जातले जैतवंत, आमी जातले जैतवंत, आमी जातले जैतिवंत एक दीस, एक दीस.

(देखाव २ सोंपता)

(देखाव ३. मदीं मॉब बसला. तो बसला. दुसऱ्या कोनशाक झेंडावंदन चललां. 'सारे जहाँ से अच्छा' ह्या पदाची धून. त्या स्पॉटांत तीग जाण गांधीतोपयो घालून बावटो वयर चडयतात.

लोकांक पळोवन एकटो उलयता)

**एकटो** : आयचो दीस ह्या देसाच्या इतिहासांत भांगराच्या उतरांनी बरोवन दवरचेलो दीस. आयज आमच्या ह्या देशाक स्वातंत्र्य मेळ्ळें. आमच्या हातांतल्यो बेडयो तुटल्यो. आमच्या तोंडाक मारिल्ले गुड्डे मेकळे जाले. (दुसऱ्या कोनशाक मॉब)

**नं. १** : ते कितें उलयतात ? आमकां कांय आयकूंक येना.

**तो** : कशें आयकूंक येतलें ? गेल्ल्या पंस्तीस वर्सांनी तांचे आनी आमचे भितल्लें अंतर इतलें वाडलां, आनीक थोड्या दिसांनी ते आमकां दिश्टी लेगीत पडचे नात इतले पयस आसतले.

**नं. २** : इतले पयस आसून लेगीत ते आमकां कशे बुड्डितात तोच प्रस्न पडटा म्हांका.

**तो** : तांची पाताळयंत्रणा इतली शक्तीशाली आसा, ते मरणांत पासून रावन तुमकां नाडूंक शकतले.

**कोण एकटो** : ते दीस कितले सुन्दर आसले.

**नं २** : खूब खूब वर्सांपयलीं
ह्या झाडाक कोमरी फुटिल्ली
फुडाराच्या सुंदर सपनाचे आशेन
हें झाड कणाकणान फुलिल्लें.

**तो** : पूण ती खूब वर्सांपयलींची गजाल, आयची काणी वेगळीच. तेन्ना झाडार सुंदर शेवण्यांची वस्ती आसली.

**कोरस** : आयज घुबडांची वस्ती आसा.

**तो** : आनी झाडांवयलीं घुबडां झाडांचे वाडदीस मनयत आसात.

**नं. १** : केन्नातरी म्हाका दिशिल्लें, ह्यो बेडयो तुट्टल्यो आनी पाखां पसरून गरुडावरी मळबांत उडूंक शकन.

**तो** : बेडयो तुटल्यो पूण तेचबरोबर पाखां कोणेंतरी कापून व्हेलीं.

**नं. २** : केन्नातरी म्हाका दिशिल्लें, तिसरी घांट वाजतली आनी काळखाचो हो पड्डो वयर सरतलो.

तो : पड्डो उगडलो पूण तेचबरोबर दिवोय कोणेंतरी पालोवन वडयिल्लो.

कोरस : ना. आमी दिवो पालोवंक दिवचे नात. उजवाडाकडचें आमचें नातें आमी इतल्या सादेपणान तोडचे नात.

तो : चलात तर दिवया तांच्या आसनाक एक निमणी धडक आनीक जावया स्वतंत्र. (आमी जातले जैतवंत ची धून. काळोख (तीग जाण उलयतात. राकेस. टोपयो घाल्ले)

एकटो : तुमकां कसलो आवाज आयकूंक येता ?

दुसरो : हय. म्हाका येता.

तिसरो : म्हाकाय.

पयलो : ह्या आवाजांत म्हाका आमच्या मरणाचो वास येवंक लागला.

दुसरो : आमी आतांच तो आवाज चिड्डून वडोवंक जाय.

तिसरो : हो – हो तो मनीस आमचें वायट चिंतता तो.

पयलो : कावळ्याच्या श्रापान गाय मरता रे ?

दुसरो : ना. पूण तो कावळो न्हय. आनी आमी गायो न्हय.

पयलो : बैल खंयचो.

तिसरो : चूप. तुमी अशीं एकमेकाभितर झगडीं कित्याक मांडटात. हो वेळ आमी एकठांय रावपाचो.

पयलो : पूण ते लोकय एकठांयच आसात.
(फाटल्यान मोर्चो. 'आमी जातले जैतवंत' ची धून)

पयलो : म्हाका मरणाचो वास येवंक लागला.

दुसरो : म्हाका स्वास घेवंक कठीण जावंक लागलां.

तिसरो : हांव तिगून उरतशें म्हाका दिसना.

तिगूय : चूप. बंद करात हो आवाज.

तो : हो आवाज असो बंद जावचो ना.

ते : तुमकां ओगी रावचेंच पडटलें. आमी तुमकां काबार करतले.

तो : तुमचीं स्वताचीं पिसां झडूंक लागल्यांत तीं सांबाळात घुघमांनो. तुमचो नाश लागीं पावला.

ते : तूं आमचो नाश करतलो ? (हांसतात.) तोंड पळोवया तुजें?

तो : (फाटीं वळून) लोकांनो हेच ते राकेस तुमचें रगत पियेवपी. हांकांच नश्ट करचें आसा तुमकां.

ते : लोकांनो ताज्या म्हणण्याक भुलून वचूं नाकात. तो फट उलयता. तुमी आमचे वटेन येयात. तुमी सुखी जातले.

तो : लोकांनो म्हजें आयकात. हे राकेस तुमकां फकत भुलयतात. हेच ते लोक तुमकां नाडपी. तांचें आयकूं नाकात.

राकेस : लोकांनो, आतांच तुमकां थारावचें पडटलें. एके वटेन तुमकां काबार करूंक उठिल्लो हो राकेस आनी दुसरे वटेन आमी. एके वटेन दुश्काळ जाल्यार दुसरे वटेन सुबत्ताय. तुमकां कितें जाय ? सूख काय दूख ?

कोरस : सूख, सूख. आमकां सूख जाय.

राकेस : मागीर येयात तर आमचे फाटल्यान.

तो : लोकांनो, फाटीं सरात. स्वताकच अशे फटोवं नाकात. पावस आयल्यार उदकांतल्यान, वत आसल्यार उज्यांतल्यान वाट आमकां काडची आसा, सपन खरें करचें आसा.

तलवारीचे धारेर चलून

रगताचे व्हाळ व्हांवोवन

पयस दिसपी नखेत्रांक धरून दवरलेलें आसा. वाट आमकां काडची आसा, सपन खरें करचें आसा.

(लोक बरेच फाटीं आसात. तो एकटो. लोक राकेसांवटेन तोंड करून उबे)

तो : म्हजें मन थकलां, आनीक शरीरय बी. आतां हांव आनी ते राकेस. (येदो सगलो वेळ राकेस ताजेकडेन उलयतना वयर पळोवन उलयतात. तो सकयल पळोवन उलयता. प्रतिकात्मक दाखोवपाचें हें की तो तांचे परस कितलोसोच उंचल्या पांवड्याचो)

राकेसांनो, म्हाका खबर आसा, तुमी म्हजेसारकिल्या

हजारांचे जीव घेतल्यात. पूण तुमी समजूं नाकात की तुमीच श्रेश्ठ म्हणून. एक दीस असो येतलो जेन्ना आमच्या हातांत दिवो आसतलो, एक दीस असो येतलो जेन्ना ह्या देशांतले दुबळे बळिश्ठ जातले, आनी त्याच दिसाची वाट सोपी करूंक हांव बलीदान करतां.

**राकेस** : (हांसतात) भुकेल्ल्या मनशाक दोळे आसनात पिशा. ताका फकत पोट आसता. तांकां तुजो सदाचार जाणवता खरो. पूण पोटाक दिसतात त्यो फकत आमी ओतिल्ल्यो धानाच्यो राशी. निमणें जैत भुकेचें जालें.

**एकटो** : हे म्हज्या इश्टा. तूं खंय आसा ? उज्यान भगभगत्या सुर्यांत काय मैलमैल धांवपी प्रकाशांत ? एकाद्र्या रानफुलांत काय शेवण्यांत ? म्हज्या मित्रा तूं सगलेकडेन आसा. हांगा असा, थंय आसा. तूं फाफशिल्लो आसा, खूब लागीं आसूनय तूं खूब पयस आसा. ह्या दोळ्यांनी पळयलां हांवें ताजो खून. पूण म्हज्या हाताच्यो बेडयो – तांणी म्हाका बांदून दवरिल्लो आनी आयज हांगा आसा ताजो इंतेर. (प्लॅटफॉर्माचेर ताचो इंतेर).

**तो एकटो** : मळबाच्या कपलाक पडिल्ल्यो मिरयो सुण्यांनी धरिल्लो भिरांकूळ ताल, सगलीं मोन्यांनी कितें तरी खुणायतात, आंवडे घोंट्टात. झाडांनी मुळां लेगीत घट्ट आंवळून धरल्यांत आनी कपचे गेल्ले धर्तरेर हातपांय सोडून पसरिल्ल्या रस्त्यान वेता एक मरण; ह्या जगांत जें जें कितें बरें म्हणून आशिल्लें ताजें मरण.

मरणा सामकार नाचतात तरेतरेचीं सवंगां, आपल्या हातांतलीं वाद्यां भोव उमेदीन वाजोवपी भुतां, भ्रश्टाचाराचो राकेस, म्हारगायेची आळवांतीण आनी अत्याचाराचो उजो, आपलें खरें रूप गांधीतोपयेच्या पोंदा लिपोवन सगले शिगम्याचो मेळ फुलयतात, नाचतात, आड्डतात, हुयेल्यो घालतात. रस्त्या भोंवतणीं जमल्यात कावळे, सुणे आनी

कोले, आना कपचे गेल्ल्या रस्त्यान –

आतां हो इंतेर मसंडेंत वतलो. थंय एका कोनशाक मडें शेंवटून दुसऱ्या कोनशाक चलतली एक शोकसभा. स्वतंत्र भारताचो अस्वतंत्र राष्ट्रपती भोव सुखान मड्याक भारतरत्न थारायतलो, दुर्बळांचेर अत्याचार करपी पोलीस रायफली उमथ्यो करतले, मिलीटरी बँड वाजयतली.

आपले फाटीक तेंकिल्लें पोट आनी पिंजिल्ले अब्रूचे कुडके सांबाळीत खंयच्या एका काळख्या कोनशाक बशिल्ली आसतली एक मनीस नांवाची जात, आनी कोलेकुत्रे, मडें चाबडायतासतनाच सगल्यो गांधीतोपयो परततल्यो, पिवपाक रगत त्या मनीस नांवाचे मोनजातीचें.)

(काळोख)

# जैत

(माचयेच्या एका कोनशाक एक रूख – खंयतरी पयस आसा असो दिसचो. उजवाड येता तेन्ना माचयेर कोण ना. मात्सो कळाव वता आनीक दोग जाण येतात. हे राहू आनीक केतू. दोगूय जाण राक्षसवंशाकडेन नातें सांगपी.)

राहू : कितले कश्टतात न्हय आमी, केतू ? आमचे इतलो ध्येयवान आनीक विचारवंत दुसरो कोणूक आसतसो म्हाका दिसना. खिणानखीण, पावलांत पावल एकच विचार मतींत दवरप म्हळ्यार कितें सादी गजाल? (राहू जाम जाला. घडये वाज येवंक लागला ताका चलताचो.)

केतू : राहू, तुजी मत थीर आसुनी. आपल्या दरेका पावलाचो हिशोब दवरपाची संवय बरी न्हय. जणेक पावल कांय तुजेमुखार सुखाच्यो राशी ओतचेंना. पूण फुडें पडटलें तुजें दरेक पावल तुका सर्गाचे चड लागीं पावयता, इतलें समजून घे आनी मागीरच उलय. (राहूक पयलीं कांयच सुचना. मागीर पावलां मेजीत चलता.)

राहू : एक – दोन – पाच – पंचवीस. केतू, त्या झाडामेरेन पावंक कितलो तेंप लागत आमकां !

केतू : लागता तितलो राहू, तूं इतलो उचांबळ कित्याक जाता? हे धर्तरिचेर जैत मेळोवप ही तुका दिसता तितली सोंपी गजाल न्हय. रातयांत जावपाचें काम न्हय तें.

राहू : राती कितल्योशोच आयल्यो आनी गेल्यो. पयलीं पयलीं मेजतालों हांव. आतां तेंवय सोडून दिलां.

केतू : राहू, तूं समजना कित्याक ? आमी इतलो तेंप जें काम करीत आयल्यात तें फळीत जावपाचो खीण लागीं पावला.

राहू : इतल्यो राती गेल्यातच. तातूंत आनीक एक ही रात. फाल्यां लागुया परत मार्गाक.

केतू : म्हजो निर्णय बदलचोना. तें एकच झाड उरलां. फाल्यांच्या सुर्याक त्या झाडाची सावळी दिसूं नज.

राहू : (खरशेता) तुकाय पुरो जालां आसतलें.

केतू : नखरे पुरो आतां तुजे. एक रात बारा वरांची आसा आनी एक झाड कातरूंक आमकां चडांतचड बारा मिनटां लागत. आतां कर कोंत.

राहू : पूण रातचे घाय घाल्यार खंय झाडां दुखावतात.

केतू : झाडां दुखावपाचें दूख तुका ? (व्हडाव्हडान हांसता) हे भुंयेवेल्यान झाडाचें अस्तित्वच ना करपाचो हावेस जेन्ना आमी बाळगितात तेन्ना तुजे हे विचार आयकून म्हाका तुजी काकूट दिसता. आमचे कुराडीचो दरेक धपको झाडाक दूख पावयतलोच. तातूंत वायट दिसपासारकें कितें आसा ?

राहू : पूण झाडाक लेगीत जीव आसता अशें म्हण्टात तें कितें तर ?

केतू : आसना ! आमकां कितें करचें आसा ताजेकडेन ?

राहू : (भिंयेला) आतां तूं म्हण्टा तें जर खरें आसत जाल्यार (केतूची कुराड सकयल पडटा.)

राहू : (आंग काडटा ) आवयस ! कोण आयलो ?

केतू : तुजें चित्त जाग्यार ना.

राहू : तशें न्हय रे. हांव कसलो भिलों जाणा !

केतू : कोणाचो भंय आसा तुका ?

राहू : अमक्याचोच असो न्हय. (मात्सो वेळ रावन) झाडाक जर खऱ्यांनीच जीव आसा जाल्यार ! केतू आमी जर आयजमेरेन मारिल्ल्या झाडांचीं भुतां जालीं जाल्यार ! जर तीं आमचे मानेर बसलीं जाल्यार ! जाल्यार कोण सोडयतलो आमकां ?

केतू : कपल म्हजें. तुका आतां पश्चाताप जावंक लागला न्हय !

राहू : नारे : पूण कांयच जायना मरे ?

केतू : तुजें आतां चड जावंक लागलां. पापया, कितले लागीं पावल्यात पळय आमी.

राहू : त्या झाडाच्या ?

केतू : ह्नय. आमचे सपनाच्या. तें एकच निमणें झाड. एकदां तें झाड आडवें घालें की ही भूंय आमचे शेकापोंदा येतली. जैतीवंत जातले आमी. चल राहू, कळाव करी नाका, आमचे सपनाच्या हुमऱ्यार पावल्यात आमी, पावलां आडखळूंक दिनाका राहू ह्या पांवडयार. हो एकच खीण सरुंदी आनीक मागीरचें पावल पावयतलें आमकां त्या झाडासरीं.

राहू : पूण आमी जशे फुडें सरतात, तशें तें झाडय फुडें सरता काय कितें? व्हदळच्यान चलतात आमी, पूण तें झाड पाडापडिल्लें थंयचेथंयच. लागींय येना आनी पयसूय वचना.

केतू : पांय फुटल्यात आसतले ताका. (हांसतात. केतू फाटल्यान पळोवन वाठार नियाळटा.) कितलो सोबीत दिसता न्हय फाटलो वाठार ? एका दिसाभितर खूबच काम केलें आमी. नदर पावता थंय फकत रेंव आनी माती. खांची कोनशांनी फाफसल्ले गुणे आनीक पयस दिसतल्यो बोडक्यो दोंगुल्ल्यो म्हळयार उभार थानांच कशीं.

राहू : शी ! तूं असलें सुज्य उलयता आनीक म्हाका मागीर लज दिसता.

केतू : पूण ही एकच दोंगुल्ली आमकां आटापा येवना हाजो संताप येता म्हाका. मार मिरयता ती आपल्या बोडावेलो तो एकच रूख. राहू, तो रूख पळोवन म्हज्या शिरांतलें रगत कशें उसळटा म्हणून सांगूं हांव तुका.

राहू : कळ्ळें तें म्हाका. पूण म्हाका कळना आमी अजून इतले त्रास कित्याक काडूंक जाय तें.

केतू : तुजे निश्ठेविशीं दुबावी जालां म्हजें मन आतां.

राहू : म्हज्या म्हणण्याचो अर्थ तो नाशिल्लो. आतां तूंच सांग म्हाका तें एक झाड सोडल्यार ह्या वाठारांतलें दरेक झाड आमी आयजमेरेन ना केलांच. आनी ह्या झाडाक तशीं पानांय नात आनीक फुलांय

नात. कितें घडूं येता हें झाड अशेंच सोडलें जाल्यार ! मरून वतलें आपशींच. आमकां त्रासय नात आनी पापय लागचेंना.

**केतू** : वेल्यान तुजे मानेवेलें एक भूत कमी जातलें, न्हय. राहू, ह्या झाडांचो केन्नाच विश्वास करचो न्हय. खंचोय रोंपो जेन्ना भुंयेचो आवाठ सोडून वयर सरता, ताजे आदीं ताणें भुंयेच्या गर्भांत आपलीं पाळां–मुळां घट्ट केल्लीं आसतात. खंयचोय रूख कातरप कठीण न्हय, पूण ताजीं पाळांमुळां खणून काडप सोंपें नासता. आतां प्रस्न उरता तो ह्या एकसुऱ्या झाडाचो. हय, हो रूख मरूंक पावलासो दिसता. घडये तशेंच आसुये. पूण जर ताका आनीक एकच संद दिली जाल्यार आमची फाट वळनाफुडें होच रूख जीव धरतलो. आंकरी धरतलो. फुलतलो. ताजीं फुलां नव्यान बियोड करतलीं. ती बियोड तग धरतली. ताजेर ज़ैत मेळोवपाचें आमचें बळगें मात दिसानदिस कमी कमी जायत वतलें. ना राहू, हें काम आतांच जावंचें पडटलें.

**राहू** : पूण आतां कितली रात जायत आयल्या पळे. त्या झाडाच्या घोलींनी रावपी सुकणीं लेगीत परतली आसतलीं.

**केतू** : सुकण्यांकडेन आमचें कांयच वायटपण ना. फकत इतलेंच तांकां बिळांनी रावपाची संवय करची पडटली. जंय झाडांच आसचीं नात, थंय तांचे घोंटेर कशे तिगतले ? तशें आमचें वायटपण कोणाचकडेन ना. आमचो शेक मानतल्याक आमी त्रास दिवचेनात हें तर आमचें पयलींच ठरलां.

**राहू** : आनी मनीसजातीचें कितें ?

**केतू** : मनीसजात अजून तरी आमचेआड आयली ना. जेन्ना आमचें पेट्टा तेन्ना पळोवं येता. आमकां तरी आयजूच कित्याक कुतां काडूंक जाय ?

**राहू** : भुतांचेच वाटेक वचया नाका आमी. (केतू ताजेकडेन रागान पळेता) फकाणां केल्लीं हांवें. (एकटोच हांसता) (केतू पिकार जाला. राहू जमनीर पळेता. एक तणाची पाती हुमटिता.)

तणाचें तें. तेंवूय एकटेंच. तुजी ही कापस्ताद ! ज्या राहूक पळोवन व्हडले व्हडले रूख पानां गळयतात, थंय तू मान तायट दवरूंक सोदता ? हांव म्हापूर न्हय तुका जितो दवरूक. हांव राहू. तुजो दुस्मान. तुज्या मरणाचे रकाद पावोवंक आयिल्लों हांव. हांवें तुका कित्याक हुमटिलें तें खबर आसा? आसचेंच ना. तुजो पाचवो रंग पळोवन म्हाका तुजी वीट दिसली. म्हळें, इतलो सोबीत वाठार एके तणाचे पातयेखातीर बुरसो दिसचो ? म्हण्टकीर तुका हुमटावप होच पर्याय उरलो. जेन्ना हांवें तुका हुमटावपाचो यत्न केलो तेन्ना तुवें म्हाका मान दिलोना. तुजीं पाळांमुळां जमनीक घट्ट घांस घेवन रावलीं. जर तूं सहजकायेन आपशींच म्हज्या हातांत आयिल्ली जाल्यार हांव तुज्यो भोयोभोयो करचो नाशिल्लों. पूण तुज्या शापोतांनी म्हजे मुखार होच मार्ग दवरलो. (अशें म्हणत तणाचें पातें पिसुडटा.) (केतुक) कशें लागलें तुका?

**केतू** : राहू, तें तणाचें पातें तशी कित्याक वागलें जाणा तूं ? तेंका त्या रुखाचो आदार मेळ्ळो आनी ताज्याच नेटार तें घट उबें रावलीं. आमची नदर चुकोवन आयज अशीं कितल्यींशींच पातींयो आसतल्यीं, झोंपां आसतलीं, वेली आसतल्यो, जांकां हो रूख आपलो आदर दिसता. तो रूख उरप आमचे फायद्याचें न्हय.

**राहू** : पूण आयजूच कित्याक?

**केतू** : जितले बेगीन तो रूख सोंपतलो त्याच खिणाक आमची सत्ता खऱ्या अर्थान हे भुंयेर येतली. हेच ते रूख, हीच तीं झाडां. हांकांच लागून भुंयेर पावस पडटा. हांकांच लागून मनीसजातीचे पांय अजून घट आनी थीर आसात. एकदां हे भुंयेवयलो हो पाचवो दाग पुसून काडलो की हांगा वर्साचे बाराय म्हयने गीमच आसतलो. आमचे बरोबर एकचारान वावुरपी मनीसजात आमची गुलाम जातली. आमी सत्ताधीश जातले. (राहू हांसता). तूं हासलो कित्याक ?

राहू : तुजें उलोवणें आयकून खोशी जाली म्हाका. (जमीन नियाळटा) रेंवेंत आमच्या पावलांनी जी नक्षी चित्रायल्या ती तोखेनशी दिसता म्हाका. कितले पयस चलत आयल्यात आमी न्हय ! आमी ज्या जाग्यार सुरवात केल्ली थंयच्यान हांगामेरेन रेंवेंत उमटल्लीं आमचीं पावलां फाल्यां सगले पुजतले.

केतू : रेंवेंतलीं पावलां चड तेंप तिगून उरनात. आपली निशाणी फाटल्यान दवरतलोच जाल्यार अशें कितेंय कार्य करचें, जाका लागून फाल्यां संवसार आपल्याक याद करतलो.

राहू : हे भुंयेर हें रेंवट निर्मिलां तें कोणें तर ?

केतू : मागीर त्या वाळवंटाचो अभिमान बाळगूंक शीक. रेंवेंत उमटतल्या पावलांचो न्हय. ताका अर्थ आसना. (थोडो वेळ कोण उलयना)

राहू : केतू, रूख मारून आमी जे मनीसजातीचें लुकसाण करतात तिचीं भुजां अजून कित्याक बावल्यांत ? बावळी फुलोवन आमचे आंगार कित्याक येनात ते फुरफुरून ! कुवाडेंच कशें !

केतू : मनीसजातीचो सभाव कितें उतरांनी बांदून दवरप शक्य ना. गणीतय न्हय तें आंकड्यांनी मांडूंक. ताज्या मनाचो थावच लागना केन्ना. मनशाक जिखतलोच जाल्यार एकेकट्याक जिखचो. पूण एका विचाराच्या मनशाक जिखप अशक्यच. म्हणून म्हणटां, तांकां जाग येवचे आदीं हें काम सोंपूंक फावो.

राहू : एके रातीन अशें कितें व्हडलें जातलें ! म्हज्यान तर सामकें नज. फाल्यां फांतोडेचेर उठून लागया कामाक.

केतू : मातसो लेगीत जागो रावंक शकना तूं ?
राहू – हो पळय हांव न्हिदलों. (राहू न्हिदता. केतू ताजे म्हऱ्यांत वता)

केतू : हो न्हिदलो. फाल्यां फांतोडेर जेन्ना हांव हाका उठयतलों तेन्ना होच सांगतलो म्हाका – आनीक मात्शे न्हिदुया रे म्हणून.

राहू : (उठून) नारे ! फाल्यां फांतोडेचेर उठांच न्हय हांव ! (न्हिदता.

परत उठपाचीं चिन्नां नात.)

केतू : (रुखाकडेन पळोवन.) पट्टा तुका म्हजी वळख ? हांवच तो. तुजें मरण. म्हजे कुराडीच्या दांड्यावेली तुजी विरसुवाद नदर म्हाका समजता. एका तेंपार होच दांडो, तुजेवरीच जमनीक वेंगावन आशिल्ल्या एका व्हड रुखाचें आंग म्हणून मिरयतालो. आयज तो म्हाका फितूर जाला.

तसो बळयांच फोडला ताका हांवें. ताजो तुमचेर कांयच राग ना. तुमचेकडलें ताजें नातें तुटलां इतलेंच. तुमचेर राग आसा तो म्हजो. एका तेंपार आमकां एक कुराडीचो दांडो मेळप कुस्तार आशिल्लें, तेच आज म्हजे बाबतींत दुसरीच गजाल. हांव आतां मारिल्ल्या एका झाडाचो दांडो दुसरें झाड मारूंक वापरतां. खूबच श्रीमंत जालां न्हय हांव. तुज्या धडधडट्या काळजाचे ठोके आयकूंक येतात म्हाका. म्हाका खोशी करतात ते, तूं म्हाका भियेता म्हणून. आयची पुराय रात तूं फकत भितलो. तुका न्हीद लागतली – पूण कुराडेच्या घायाचीं सपनां तुका जाग हाडटलीं. तूं आदार सोदतलो. आनी हांव मात रातभर तुजें मरण सपनेतलों. तुज्या हुयेल्यांच्या सपनांनी रात जागयतलों. आसा तुज्यांत म्हाका आडावपाची शक्त ? पळय करून यत्न. म्हाकाय आवडटा तशें. तुजो जीव आनी तुजें मरण हांचेमदीं फकत ही रात उबी आसा.

आसा तरी कोण तुका आदार दिवंक फुडें येवपी ? तूं सोडून बाकी सगल्या रुखांचे दांडे हांवें म्हजे कुराडीक वापरल्यात. फाल्यांमेरेन वाट पळय. (व्हडाव्हडान हांसता)

(पयलो देखाव सोंपला. काळोख).

(ल्हव ल्हव करून माचयेर उजवाड. वाटेर झाडांच्यो ना जाल्ल्यो खुणो सोदीत एक लोकांचो चोमो येता. भंयाचें वातावरण)

: कालमेरेन पाचव्याचार झाडांचें अटंग रान माथ्यार मिरोवपी हो वाठार रातयांत असो जावंचो ?

: कोणें केला आसत हो सांवार ?

: आतां आमी मातीच खावन जियेवपाचें.

: एक भयांकूळ सपन पळेनात मूं आमी ?

: नरक म्हण्टात तो वेगळो कितें आसत हाजेपरस ! जाग्यार एक उबो रूख ना, सावळी घेवंक जागो ना. वचत थं आंग भाजून काडटलीं सुर्याचीं खर किर्णां आनी हून वारो.

: म्हज्या दोळ्यांमुखार आमचो फुडार येता. फाल्यां रान्नींत घालूंक आमकां लाकडाचें शिपट मेळचेंना एक. उटंगार पावसांत भिजतली भूंय उदकाच्या एका एका थेंब्याखातीर आशेतली.

: कोणतरी सगलें भोंवतणच काबार करूंक फुडें सरला.

(एकटो जाणटो मनीस फुडें सरता. हो दादा. जमीन नियाळीत मान हालयता.)

: दादाक कितेंतरी सांपडलें थंय. (दादा कुरवांनी राव म्हण्टा. तणाची पाती काडटा. निर्शेवन बसता. सगले ताजेभोंवणीं जमतात.)

: दादा, असो आकांत आयिल्लेवरी कितें करता तूं ?

: आमकां सांग तरी पळोवया. चिंतूं येता कितें करपाचें तें.

: तुका कितें सापडलें तें तरी दाखय मरे आमकां. तूं जर असो कांयच उलयनासतना बसलो जाल्यार कशें जातलें ?

**दादा** : सुवार्थाचे कपलफुटके पांय आमचे आंकवार वाठाराचेर घुरी घालूंक लागल्यात रे बाबांनो. हें पळयलां ! एक सादी तणाची पाती. असो कितें गुन्यांव केलो आसतलो तिणें कोणाचो, तिका अशी पिसडून उडोवची ! तिजेर पडटल्या पांयांचें वजें लेगीत ती जाप काडिनासतना सोंशी. तिजे हे अशे हाल जावंक पावचे ?

(लोक आपलेमदीं उलयतात)

: हें कर्म करपी कोण तो जर म्हजेमुखार येत जाल्यार ताजीय गत

अशीच करीन हांव.

: हे भुंयेचें पाचवें कापड ना करपी त्या दळभद्र्याक इतलेंय जाणा आसचें न्हय, आपूण आपल्याच पांयार कुराड मारून घेता म्हणून?

: घडये आमचे पांयाचेर कुराड मारपाचो हेत मनांत बाळगून हो धुमाकूळ घाला आसत कोणेंय.

: आतां खंय तो आमचे हातांत सांपडूंक आयला. तो आपलो आयलो, आपलें काम केलें आनीक गेलो. आमी मात उरल्यात हांगा उदकाभायर पडिल्ल्या नुस्त्याभशेन.

: दिश्टच लागली म्हणपाची कोणाची तरी आमचे ह्या सोबीत वाठाराक. आमचें नशीबच फुटकें म्हणपाचें आनीक वगी बसपाचें आमी. आमचे तोंडांत झगड्याची भास सोबना.

: आमी म्हळ्यार कितें तणाची पाती न्हय ही. कोणेंय येवचें आमचे वाटेक आनी आमकां लुटून वचचें ? गेले ते दीस.

**दादा** : (एकटोच उलयता.)

कालच्या दर्यांत देंवतल्या सुर्यावांगडा
सांजय अचळय काळखांत बुडली
फुलांचे काकुटवाणे सुस्कारे मनार घेवचे सोडून
रातीन घेतले आपले हात तांबडे करून
दरेका खिणान घालो रुखाचेर एकेक घाय
ह्या वाठाराक लागल्यात आमचे दुस्मानाचे पांय

: उपाट केला सांवार हांगा
खपनखायऱ्या पांयांनी
घुस्पत काय भूंय म्हजी
पाचव्याचार सपनांनी

: मेळत काय रेंवेंत म्हाका
पाकळी एक फुलाची
उरत काय धरून तग
जीण म्हजी मोगाची

: झडत काय पावस हांगा
येत काय हुंवार हांगा
वचत काय व्हांवून दादा
पापां मनीस जातीचीं
: सुटत काय आस म्हजी
नव्या नव्या सुखाची
भागत काय एकदांची
भूक म्हजी सासणाची

**दादा** : भावा, धुये, पुता, माये
दिवशात म्हज्या उतराक मान ?
धांपात तुमचें तोंड आनी
करात तुमचे उकते कान !
(लोकांचें उलोवप थांबता. एकेकटो वचून दादासरीं थांबता)

: दादाक कितेंतरी येवजलां.

: म्हाका दिशिल्लेंच दादा वाट काडटलो म्हणून ह्या लफड्यांतल्यान.

: दादाचो आमका कितलो आदार जाता, न्हय ?

: हाजेपयलीं आमचेर शेंवटल्लें दरेक अरिश्ट दादान मत लडोवन परतिलां.

: हे फावटींय दादा हार मानचोना.

: दादाचो म्हाका विश्वास आसा.

: म्हाकाय.

(दादा – दादा असो बोवाळ. दादा वचून कडेक रावता. बोवाळ सोंपता तेन्ना हळूहळू करून लक्षांत येता की दादा तांचेमदीं ना.)

: दादा खंय ?

: आताच हागा आशिल्लो.

: खिणाभितर ना कसो जावचो तो ?

: काय आमचे दुस्मानान दादाकच लिपयलो ?

: जादू करून ? काय मंत्र मारून ?

**दादा** : (संतापता) तुमचे भितर कोणय शाणो आसलोच जालयार ताकाय पिसो करशात तुमी.

(लोक दादाक पळोवन खूश जातात. दादाचें तापप काना-मनार घेनात.)

: दादा, तूं हांगाच आशिल्लो.

**दादा** : तुमचे भितल्ल्या मनशाक कितले सोंपे तरेन शेणयलो तुमी न्हय! तोखणाय दिसता तुमची. (लोक खूश)

: म्हाका दिशिल्लें दादा आमचेर तापता म्हणून.

: पूण दादा आमची तोखणाय करता.

: खरेंच, आमी कितले हुशार ?

**दादा** : सभाग्यांनो, एकदां तरी तकलेक शीण पावयात रे. खंय घाण दवरला तुमी तुमचो मेंदू ? तुमचें मरण माजराच्या पावलांनी तुम्चेलागीं चांट मारीत आसा आनी तुमच्या तोंडांत दादाची स्तुती, मतींत स्वताची व्हडविकाय. प्रसंग तर असो आसा तुमच्या तोंडाक आसूंक जाय दुस्मानाक संवपाच्यो गाळी आनी मतींत ताका सोंपोवपाचो विचार.

: दादा, पूण तूं आसतना आमच्या बोडार पेज कित्याक ?

: खरें तुजेंय. म्हजेंच चुकलें. तुमची तरा वडापोंदा वाडटल्या रोंपापरस वेगळी ना. तुमच्यांत सुर्यकिर्णां पचोवपाची शक्त आसा, मोडाक सामकार वचपाची ताकदय आसा. पूण तयारी ना. तुमचो भरवंसो वडाचेरच. तोवय हुमटून पडत रे बाळांनो.

: दादा, तुवें कितलींशींच उतरां शेवटिलीं, पूण खरें सांगूं, मतींत चड गेलें ना कांयच. मातशें सादें करून सांग मरे.

: कसलें अरिश्ट आयलां आमचेर ?

: कोण वावुरता आमचेआड ?

: आमी कितें वायट केलां कोणाचें ?

: आनी रूख ना जाल्यात ताजेबरोबर आमी ना जातले ?
दादा ! जे भुंयेच्या गोपांत तुमी वाडल्यात, जंय तुमी तुमची जीण सारतात ते तुमचे भोंवतणीची ही अवतिकाय तुमकां दूख पावयना ? हो तुमच्या मर्णाचो पयलो पांवडो हें कळना तुमकां ?
(उलयतना दादाची नदर त्या एकसुऱ्या झाडाचेर पडटा. दादा मदींच थांबता. झाडाकडेन पळयत रावता.)

: दादा, खंयचे उर्बेन तुजे दोळे लिकलिकले रे ?

: मार्ग सांपडलो कितेंय ?

: बिण्ण काळखांत उज्याची कीट सांपडली तुका ?

दादा : तें झाड पळय. पळयलें ! एकटेच रावलां ते उबें. नियाळ ताजी दरेक फांदी. ताजीं पानां तुका कितें सांगतात तें पळय. त्या रुखाचीं पाळां कित्याक थरथरतात तें पळय. चल विचार त्या रुखाक ताज्या दुखाचें कारण.

: छट् ! दादा म्हाका पिसो थारावंक सोदता. त्या झाडाकडेन हांव कसली जाप मागतलों, कपल ?

दादा : तरीय उगडनात तुमचे तकलेचीं कळमेल्लीं दारां?

: तूं सोंपें करून सांगचेबदला कुवाड्यांनीच उलयता.
(दादा चिंतता. मागीर दादाकच सुचता.)

दादा : म्हजें कुवाडें सोंपें सादें
घांसून घेयात तुमची मत
घालात उलो कलयकाराक
कळमून गेल्या तुमची रात. कळ्ळें कितेंय ?

: ना. कशें कळटलें ?

दादा : म्हजें कुवाडें सोंपें सादें
दियात मात्सो बोडाक ताण
तरीय तुमकां कळना जाल्यार
तकली तुमची जाल्या भाण – तरीय कळना ?

: ना. अजून ना.

**दादा** : सांगतां. सोंपें करून सांगतां. आमी जागराक रात जागयतात काय ना?

: हय. ज़ागयतात.

**दादा** : आमी तरेतरेचीं सवंगां रंगयतात काय ना ?

: हय. रंगयतात.

**दादा** : जागरांत आमी एक काणी चित्रायतात काय ना?

: हय. चित्रायतात.

**दादा** : सांगात म्हाका तीच काणी
तसोच खेळात जागर हांगा
पुर्विल्ली ती काणी मातशी
करात जिती परत एकदां.

: जागर ? हांगा ? आतां ? असोच ?

: दादा सांगता न्हय. मागीर दुसरें कितें करुया ?

(काळोख)

(जागर.) (उजवाड येता.)

: म्हजें पयलें नमन – रानाचे देवतेक
म्हजें दुसरें नमन – उटंगार पावसाक
म्हजें तिसरें नमन – पाचव्याचार सैमाक.
यो गा यो आमी रात जागोवया
यो गा यो आमी जागर फुलोवया.

शामेळाच्या तालार घुमटाच्या नादार
हांगा दर्या गाजोता हांगा दर्या गाजोता
दर्याचो गाज आनी फुलांचो साज
आंबो चंवर नुलयता आंबो चंवर नुलयता
हालत धोलत यो गा भोरेकारा हालत घोलत यो

भोरेकार मामा कराड मिरयता, भोरेकार कुराड मिरयता.
(भोरेकार येता. नाचता)
इलो भोरेकार सभे शेळोनी गेलो – शेळोनी गेलो –
आसा गा ह्या गांवांत म्हज्या एक भोरेकार
खांदार ताज्या भोरो आनी हातांत गा कुराड
रानांत वचून लाकडां फोडून भोरो जमयलो.
गांवांत येवन लोकाक विकून दिसवडो जोडलो.

: असा गा भोरेकार एकदां लाकडां फोडूंक रानांत गेलो. लाकडों फोडून फोडून ताका पुरो जालें. भोरेकार घामेलो, खरशेलो; ताणें आपली कुराड न्हंयचे धडेर दवरली.

: आनी विसव घेवंक तो बसलो.
भोरेकाराची कुराड गा लंवडली
लंवडून गा ती न्हंयंत पडली
भोरेकाराक जेन्ना जाग आयली
कुराड ताजी जाग्यार नाशिल्ली.

**भोरेकार** : म्हजी कुराड हांगाच दवरिल्ली हांवें. खंय ना जाली काय ती ? म्हजी कुराड ना जाल्यार आतां हांवें करप कितें ? (खंती जावन न्हंयचे धडेर बसता.)

: भोरेकाराची अवतिकाय पळोवन न्हंयचे देवतेक ताजी काकूट आयली. पूण तरीय देवतेन थारायलें, भोरेकाराची परीक्षा घेवप. देवता भोरेकाराक प्रसन्न जाली. आली देवता सभे शेळोनी गेली – शेळोनी गेली.

**देवता** : भोरेकारा हांव हे न्हंयची देवता. सांग तुजें दूख म्हाका कितें आसा तें. हांव पयस करीन.

**भोरेकार** : देवते, म्हजी कुराड हांवे हांगासर दवरिल्ली. ती ना जाल्या. तुजे नदरेन देवते म्हजे दूख सामकें सादें पूण कुराड शेणली जाल्यार हांवें खावप कितें ?

**देवता** : कित्याक ? तूं कुराड खाता तर ?

**भोरेकार :** म्हज्या दुबळ्याच्या दुखाकडेन कसलीं फकाणां देवते. तुजेदेखी ती एक सादी कुराड, पूण म्हजें पोटच तें. आसा ती कुराड ना जाल्ल्याचें म्हाका दूख. देवते तुका मात म्हजीं फकाणां केल्ल्याचें सूख. (वचूंक वता)

**देवता :** राव. वायट दिसून घेनाका. ही घे तुजी कुराड. (देवता ताका एक भांगराची कुराड दिता.)

**भोरेकार :** ही कुराड म्हजी न्हय. आमचे भोरेकारांच्या नशिबांत भांगर खंयचें देवते ?

**देवता :** ही न्हय ? मागीर ही आसतली. (रुप्याची कुराड दिता.)

**भोरेकार :** देवते, रुपें आनी भांगर हीं भावभयणां गिरेस्तांचीं सोयरीं. ही म्हजी कुराड न्हय.

**देवता :** मागीर ही तर ? (सादी कुराड दिता.)

**भोरेकार :** उपकारी आसां देवते. हीच म्हजी कुराड.

**देवता :** भोरेकारा, तुज्या साद्याभोळ्या सभावान हांव धादोशी जाल्यां. तेन्ना ही घे भांगराची कुराड तुजेखातीर.

**भोरेकार :** ही भांगराची कुराड म्हजी ?

**देवता :** हय. सांबाळून वापर. सुवार्थाखातीर वापरली जाल्यार सर्वनाशाक पावतलो. कुयदादीन वापरल्यार बऱ्याक पावतलो. वच. सुखी जा.

(काळोख)

: अशे रितीन भोरेकाराक मेळिल्लें अस्त्र ताज्या माथ्याक मारलें. ताज्या हातांत भांगराची कुराड पडली जशें माकडाच्या हातांत कोलीत. ताज्या दोळ्यांमुखार उदेलें रुखांच्या संहाराचें सपन. ताजी वंशावळ मनीसजातीपरस वेगळी निपजली. तांचो भेसूय वेगळो, रुपय वेगळें, चालीरिती वेगळ्यो. कांय पिळग्यो गेल्यो आनी ते राकेसांचे पंक्तींत वचून बसले.
आसा गा ही काणी एका भोरेकाराची

देवतेन ताका दिली एक कुराड भांगराची
कुराड भांगराची भोरेकार मिरयता
भोरेकार कुराड मिरयता – भोरेकार कुराड मिरयता.

(काळोख)

(उजवाड येता तेन्ना लोक दादाभोंवतणीं जमल्यात)

**दादा** : आतां तरी कळ्ळें ?

: हय न्हयशें.

**दादा** : आमच्या जाणटेल्यांनी ही काणी जागरांतल्यान जिती दवरल्या ताजें कारण हेंच. सत्ता कोणाचेंय मस्तकं घुंवयताच. हीच ती भोरेकाराची वंशावळ राकेसाची वृत्ती पांगरून आमचेर घुरी घालूंक आयल्या.

: आमकां कितें करचें पडटलें तर ?

: परती ती कुराड देवाची. मंत्राची.

: तिका आमी आड वतले कशे ?

**दादा** : बाळांनो, तांणी सगलें सोंपयत हाडलां. तांचो दोळो आतां ह्या एकसुऱ्या रुखाचेर आसा. त्या रुखाचो सांबाळ करून तुमी राकेसांच्या काळ्या कर्तुबांआड उबे रावतले काय बावळी गळोवन गुलामीचे बंदखणींत रावतले हाजो निर्णय तुमकांच घेवचो पडटलो.

: एकच रूख.

: तो सोंपप म्हळ्यार आमी सोंपप.

: आयचें मर्ण फाल्यां धुकलचेपरस हांव म्हणटां फायचें मर्ण आयजूच जगुया आमी.

: थरलें तर.

: हांगासल्लें एकेक झाड, पाचव्या पालवाचे जण एकेकडचे अस्ती आनी ताजेवांगडा हे भुंयेचें रूप, चारित्र्यय आनी आमचो फुडार

ज्या रातयांत काबार जालो, तेच रातीचो सोपूत आमकां.
रुखा, आमी उबे आसतना
तुका गा कसली भिरांत ?
सांग तुज्या पानाक भियेवं नाकात म्हणचे. सांग तुज्या पाळांक थरथर नाकात म्हणजे. आनी खासा तूं, हे रुखा, सोड तुजी भिरांत, आमी तुजे आसतना तुजेर येवचो कित्याक आकांत ?

(काळोख)

: (राहू, केतू येतात. सगले मनीस झाडामुखार न्हिदल्यात. दादा रुखाक वेंग मारून न्हिदला.)

राहू : केतू, हें कितें ?

केतू : तेंच पळयतालों.

राहू : मनीस घरां सोडून उक्त्यार केन्नाच्यान न्हिदूंक लागले ?

केतू : तुजोच आळस, तुका येताली ती न्हीद आनी ताजो परिणाम हो.

राहू : न्हिदुंनी रे बाबड्यांक. त्या कामाक तूं म्हजेर कित्याक घेंगशेता ?

केतू : हे हांगा न्हिदुंक आयलेनात. त्या रुखाची राखण करूंक आयल्यात.

राहू : आरेच्या. इतलेंच मरे. मागीर ते न्हिदिल्ले आसतनाच आमी लागुया कामाक.

केतू : मनशांची न्हीद खूब जागृत आसता. आमी अशें करुया. (कानांत उलयतात. मागीर नाच करतात.)

राहू : म्हाका वळखले ? (लोक जागे जावंक लागल्यात)

लोक : ना.

राहू : हांव राहू.

राहू : हाका वळखले ?

लोक : ना.

राहू : हो केतू. आनी दोगय राहू–केतू बेठेच म्हणून आयल्यात.

लोक : बेठेच ?

केतू : बेठेच म्हळ्यार, खरें म्हळ्यार तुमचेकडेन आमिजाद करूंक आयिल्ले आमी.

लोक : सोयरीगत बी घेवन आयल्यात तर तुमी ?

राहू : आमिजादीचें नातें जोडूंक आीयल्ले आमी.

लोक : हरकत ना. जोडात – जोडात.

राहू : तुमी अशे वाटेर शे कित्याक न्हिदल्यात ? आमकां ती दोंगुल्ली काडून वचूंक जाय आशिल्लें.

लोक : मागीर चडावाचे वाटेन कित्याक ? आमी तुमकां दुसरी वाट दाखोवं. ?

केतू : म्हळ्यार तुमी म्हाका अशे वचूंक दिवचेनात तर ?

लोक : आमी कोणाकच वचूंक दिवचेनात.

केतू : (पयल्या मनशाक) ही कुराड पळयल्या ?

१ : भांगराची कुराड ?

केतू : हय. भांगराची कुराड. आमचे तेवटेन सगल्यांकडेन असल्योच कुराडी आसात.

दादा : थंय कितें चललां ? कोण परकी लोक आयल्यात?

लोक : भांगराची कुराड घेवन भोंवपी राकेस पावले दादा हांगा.

राहू : म्हळ्यार तुमी आमकां वळखतात तर. मागीर बरे भशेन कडेक सरात आनी करात आमची वाट मेकळी.

दादा : धव्या पांयांच्या राकेसांनो. आमचे कुडींत जीव आसामेरेन तूं ह्या रुखामेरेन पावप शक्य ना. तुका आमच्या मड्यावेल्यानच चलून येवचें पडटलें.

केतू : आमी अजून हार सोंसूंक ना.

दादा : आमचे विचारांचें सदांच जैत जालां.

राहू : पूण एका रुखाखातीर ?

दादा : हो रूख सादो न्हय भावा. आमचे पर्जळीत फुडाराचें रोद म्हळ्यारहो रूख. तुमी बोडकी केल्ली भूंय ह्याच रुखाच्या आदारान आमी परत पाचवी करतले.

केतू : आनी आमी जबरदस्ती केली जाल्यार ?

दादा : तुमचे जबरदस्तीक जाप मेळटली. आमच्या दोळ्यांमुखार तुमी केल्लो संहार आसा आनी काळजांत आसा जैताची उमेद.

: एक टिपरी घेऊन दुसरीस मार गे. दुसरी घेऊन तीसरीस मार चौथी घेऊन पाचवी बदल (लोक राहू आनी केतूभोंवणीं फेर धरतात. राहू आनी केतू पळपाचो यत्न करतात. राहू पडटा. केतू मरणाचे धडेर आसा.)

केतू : एकच रात. राहू, हे भुंयेचेर जैत मेळोवपाच्या आमचे सपनाआड आयली एकच रात. आतां आमी हे भुंयेचेर केन्नाच जैत मेळोवंक पावचेनात. आतां फाल्यां होच रूख आमचे नाकार टिच्चून नवी पिलावळ काडटलो. आमचें कार्य म्हळ्यार रेंवेंतलीं पावलांच थारतलीं. ही भूंय परत एकदां पाचवो रंग आंगाक फासतली. परत हांगा पावस झडूंक लागतलो. हो वाठार तणाचो पालव मिरयतलो आनी आतां आमी हे भुंयेचेर केन्नाच जैत मेळोवंक पावचे नात. सुर्याचीं किर्णां, जीं आयज उजो जाल्यांत, तीं फाल्यां मोव जावन फुलां फुलतलीं आनी तांचें म्होंव चाखूंक पाखे भोंवतले. ते पाखे जगलोकाक आमची काणी सांगत भोवतले की –

आमी हे भुंयेचेर जैत मेळोवंक पावलेच नात. (पडटा)

: (फाटीं मॉब जैताचे धुंदेंत आसा. गायता, नाचता, आड्डता. शामेळाचो आवाज वाडत वता.)

(काळोख)

# एका शाराच्या मर्णाची काणी

(एका उजवाड वाटकुळांत एकलो बसला. हो बाबू. पत्रकार)

**बाबू** : ही काणी तशी चड पोरणी न्हय.

ही काणी एका अशा शाराच्या मर्णाची, ज्या लोकांक आपूण मेलों कसो हें कुवाडेंच उरलां आसतलें.

अर्थीक बंदखणींतल्या आमच्या देशांत अशीं कितलीशींच शारां आसात जंय ही काणी आकार घेवंक शकता. हांवूय त्याच शारांतलो एक जितो उरिल्लो मनीस. म्हणून तुमकां हें सांगूक पावलां. तुमच्या शारांत हें घडिल्लें जाल्यार तुमचे भितल्लो कोणूय घडये म्हज्या जाग्यार आसूं येतालो.

ह्या शाराक कॅन्सर जाल्लो. हो कॅन्सर मुळावे स्थितींत आशिल्लो तेन्ना ह्या कॅन्सराचे गांठीक आमी सवस्तकायेची निशाणी समजताले. शाराच्या शिरंतरांनी जेन्ना कॅन्सरान आपलीं पाळांमुळां रिगयलीं तेन्ना आमी ताका शाराचो जाल्लो विकास म्हळें. तोखेलें.

आनी जेन्ना एक दीस मर्णाचें बोट धरून ह्या कॅन्सरान आमच्या दारार मारलें तेन्ना मात आमी भिंयेले, पळून वचूंक वाटो सोदूंक लागले. पूण आमच्या घराच्यो वणटी मर्णाक आडावंक शकल्यो नात. मेले ते सुटले. उरले तांचे हाल मड्यापरस पाश्ट. तोंडान सांगूंक येना असले, कुडीन सोंसूं नजो असले. मर्णाच्या भयांकूळ चपक्यांतल्यान सुटून जिणेच्या दळदिऱ्या पदरांत पडिल्लो हांवूय एक जीव.

हेरांक पयलीं समजलेंच ना. पूण हांव – म्हाका खूब कितें कळिल्लें. आमच्या शारांतलो जंतुनाशकाचो कारखानो, आमचें

शार केन्नायतरी सोंपयतलो हें जाणां आशिल्लों हांव. कुंभकर्णाची न्हीद न्हिदिल्ल्या शाराक जागोवंक हांवें उतरांचे धोलूय बडयले. पूण म्हजें शार जागें जावचे आदींच सासणाचे न्हिदेंत घुस्पल्लें.

खुबूच व्हांवलों हांव. पूण जेन्ना विचारांचो घुस्पागोंदळ जाता तेन्ना उतरांय जिबेचो सांगात सोडटात.

हांव आदींच्यान सुरवात करतां. म्हळ्यार एक दीस आमच्या दिसाळ्याच्या संपादप्यान हो विशय काडलो. तेदूसच्यान –

(काळोख)

(संपादक आनी बाबू. उजवाड)

**संपादक** : बाबू, हें दिसाळें जें आमी चलयतात, तें कोणाचीच काकूट करपाक न्हय. आमी समाजाकडेन नातें सांगतात. आनी फाल्यां जर हो समाजच उरलो ना जाल्यार आमीय कशे उरत?

**बाबू** : म्हाका जें म्हणपाक जाय आशिल्लें, तेंच तुमच्या तोंडांतल्यान आयकून म्हाका नवें बळगें आयलां.

**संपादक** : आतां तूं म्हणटालो ताजेबद्दल. कितें खबर काडल्या तुवें कंपनीच्या कारभाराविशीं ?

**बाबू** : थोडी भोव. पूण म्हाका जें कितें कळ्ळां, ताजेवयल्यान आमकां कसलोच निश्कर्श काडूंक येवंक कठीण. हे विशीं पुराय संशोधन करुनूच रिपोर्ट तयार करपाची गरज उप्रासल्या.

सध्या तरी हांव इतलेंच जाणां की फाटीं अमेरिकेचे एके कमिटीन ह्या कारखान्याचे सुरक्षा वेस्थेबद्दल चिंता परगटायिल्ली. आजून कांय हे वेवस्थेंत सुदारणा जावंक ना.

**संपादक** : पूण ती कमिटी हांगच्या वेवस्थापनाचेर तांच्यो सुचना मानपाची जबरदस्ती करूंक शकनात तर ?

**बाबू** : शकतात. खूब बरे तरेन. पूण तांकां तें करूंक नाका.

**संपादक** : कित्याक ?

**बाबू** : कारण तांच्यो सुचना पाळप म्हळयार वयल्यान तांकांच चाळीस – पन्नास लाख मोडचे पडप. तेंच तांकां नाका. सध्याक ते हांव मारिल्लेभशेन करतां, तूं रडिल्लेभशेन कर – हे चालीन चलतात.

**संपादक** : म्हळयार आपली काश्टी सुकी दवरून खुबे पुंजावंक सोदतात तर हे लोक ! फाल्यां कितेंय गोंदळ जालोच जाल्यार – तांणी आमच्या वेवस्थापनाक पयलींच सांगिल्लें – अशें सांगूक ते मेकळे.

**बाबू** : अर्थीक स्वातंत्र्य ना जाल्यार राजकी स्वातंत्र्य कितलें बेगडी आसता ताजें बेस बरें उदाहरण हें. जे मेरेन हे असले कारखाने भायल्यांच्या हातांत आसात, ते मेरेन हें अशेंच जावपाचें. हांगच्या बऱ्याची चिंता ते कित्याक करीत. तांकां जाय फायदो आनी फकत फायदो.

**संपादक** : म्हळयार हो रिपोर्ट उजवाडाक येवंक खुबूच गरजेचें थारता. कितेंय तरी बरें घडल्यार घडलें.

**बाबू** : पूण तरीय म्हाका दुबाव आसा.

**संपादक** : उलय. मेकळेपणान उलय.

**बाबू** : हांव फुडें सरलों अशें धरुया. पूण ह्या दिसाळ्यांत म्हज्या रिपोर्टाक जागो मेळूंक पावत ? आमी कांय धनी न्हय. पात्रांव आमकां तितलें स्वातंत्र्य दीत व्हय ? ताजेय हितसंबंध कंपनींत घुस्पल्ले आसात म्हणून म्हणटां.

**संपादक** : तूं बेठोच भिंयेता. दिसाळ्याचो संपादक हांव. तुका कसली चिंता ?

**बाबू** : हांव भिंयेतां ? फकत एक शक्यताय सांगली तुमकां. पयशांची ताकद खुबूच मोठी आसता. पयसो कितेंय करूंक शकता. कोणाकय विकतो घेवंक शकता. कोणाकय काबार करूंक शकता.

**संपादक** : ते विचारच तूं मतींत हाड नाका. म्हाका कंपनीचेर खोलायेंत वचून तयार केल्लो रिपोर्ट जाय. तांची प्रत्येक चूक, जी घडूं येता वा जी घडटा, तुजे हस्तुकीं कागदार देंवूक जाय. बाबू, तूं फुडें पळयत वच. ह्या शाराचो पर्जळीत फुडार दोळ्यांमुखार दवरुनूच

वच. तुजें प्रत्येक पावल नियाळीत वच. फाटलो विचार करिनासतना वच.

(काळोख)

**बाबू** : म्हज्या संपादकाच्या उर्बेभरीत उतरांनी म्हज्या बावळ्यांतली शक्त अदीकच वाडली. म्हजें सगलें लक्ष आतां रिपोर्टाचेर थीर जाल्लें. हांवें चक्रव्युहांत पावल दवरलें आनीक फुडें चलत रावलों. म्हजे प्रत्येक चांटेसरशीं नवनवी म्हायती फुडे येत रावली. हांव केंद्रबिंदूच्या लागीं लागीं येतालों. हांव खूब कितें जाणां जाल्लों.

म्हजो बालमित्र सुरेन – ते फॅक्टरींतलो प्लांट सुपरींटॅंडंट. तांकां हांव मेळ्ळों.

(सुरेन आनी बाबू येतात.)

**बाबू** : आसत ! तूं म्हणटा तशेंय आसत. पूण तें तशें नासलें जाल्यार!

**सुरेन** : बाबू, ही गजाल तुवें चडूच मनार घेतल्या.

**बाबू** : सुरेन, ह्या शाराची लोकसंख्या कितली आसतशें दिसता तुका?

**सुरेन** : कित्याक ?

**बाबू** : हरशींच. १९८४ वर्साचे लोकमेजणेपरमाण ह्या शारांत ८०,००० लोक रावतात.

**सुरेन** : रावनात ! म्हाका कितें करचें आसा ! ते जोडीत ते खायत. तांची जीण ते जगतात, तांचें मरण ते मरतले.

**बाबू** : इतले सहज उलोवंक शकता तूं ८०,००० लोकांच्या मर्णाची गजाल ?

**सुरेन** : बाबू, तुका म्हणचें तरी कितें आसा ? अर्थाचो अनर्थ करपाची संवयूच तुका. तांच्या मर्णाक हांव कित्याक आंवडेतलों ?

**बाबू** : तूं तांच्या मर्णाक आंवडेना, म्हजें तशें म्हणणेंय ना. पूण तुमचे कंपनीन ह्या शाराचे भलायकेकडेन जो जिवघेणो खेळ मांडला, ताजेबद्दल उलयतालों हांव.

**सुरेन** : (हांसत) बाबू, तुमकां पत्रकारांक कावळे म्हणटात तें बेठेंच न्हय आं. मेल्लें मडें चांचावपाची संवयूच तुमकां. तुमी आनीक कसली वाट पळेतले ? ८०,००० लोक मेले की तुमच्या नांवार ८०,००० पींड लागू. सामके हक्काचे. हेच आशेन तोंडाक उदक सुटलां तुजे !

**बाबू** : परत फकाणां.

**सुरेन** : हय. फकाणांच करीत आयलां हांव. जिणेकडेन पळोवपाचो म्हजो दृष्टीकोन भोवच आशावादी हेंवूय जाणा तूं.

आमची कंपनी शाराचे जिणेकडेन खेळटा अशें तुजें म्हणणें. कसलो खेळ आनी कितें? केन्नायतरी ह्या कारखान्याची सुरक्षा वेवस्था फसतली, अपघात घडटलो आनी सगलें शार काबार जातलें हो नस्तो भंय तुका भेश्टायता.

पूण नाण्याची एकूच बाजू कित्याक तोखेत बसचें तुवें ? ह्या कारखान्यान शाराच्या विकासाक जो तेंको दिला तो तूं कसो दोळ्यांआड करूंक शकता ? तुजे ८०,००० लोकांतले अडेज हजार लोक ह्याच कारखान्यांत कामाक आसात. अडेज हजार संवसार ह्या कारखान्याचेर जियेतात ताजें कितें ?

**बाबू** : सुरेन, ह्या कारखान्याचो नोकर जालो म्हणून हांगा जें वायट घडटा ताजेर पांगरूण घालपाचो यत्न कित्याक करचो तुवें ? तुमची कंपनी शाराच्या नाशाक कारण जाल्यार कितें करूंक पावतलो तूं?

**सुरेन** : मरपाचेंच जर आसा जाल्यार धांवून खंय वतलो मनीस ? फाल्यांच्या मर्णाक भिंयेवन आयजूच हांतूण धरचें अशें म्हणणें तुजें ?

**बाबू** : मागीर मरपाचेंच आसा म्हणचें आनी आत्मघात करून घेवचो. तशें कित्याक करिनात लोक ?

हो कारखानो ह्या शाराचे मानेर हुमकळपी तरसाद आसा इतलें मात हांव जाणां.

सुरेन : पूण ते तरसादीचो सोद तुकाच कसो लागलो ? म्हाका वयर कांयच दिसना.

बाबू : दोळे उकते करून भोंवपी मनशाक तें दिसप व्हड कठीण न्हय.

सुरेन : ह्या शाराचेर मर्ण घिट्ट्यो घालता. (हांसता) कशें दिसता काय हें मर्ण, काळें आसतलेंच रंगान. पूण बाबू, मर्ण एकलेंच आनी लोक तर अंयशीं हजार. एकाच वेळार सगल्यांचेर घुरी घालप कशें जमत ताका ?

बाबू : (आपलेच भितर) सुरेन, तुमच्या कारखान्यांत कितें तयार करतात तुमी ?

सुरेन : मर्ण !

बाबू : तें खबर आसा म्हाका. पूण हेरांक खबर ना. लोकांचे नदरेक उदक लावंक तुमी किदें तयार करतात ?

सुरेन : पॅस्टीसायड आनी इन्सॅक्टीसायड ह्या वाठारांतलीं किटकनाशकांची आनी जंतूनाशकांची चडशी मागणी आमचो कारखानो भागयता. ते मिक्रोप म्हळ्यार शेतांचें आनी झाडांचें मरण हें तुका हांवें सांगपाची गरज ना. ह्या मिक्रोपाचो नाश जावंक आमची कंपनी कारण म्हळ्यार मात जाता.

बाबू : फाल्यां हांगा कितेंय घडलें जाल्यार हांगचे लोकय मिक्रोप कशे मरून वतले.

सुरेन : फालची गजाल फाल्यां. आयचें उलय.

बाबू : हीं जंतूनाशकां तयार करूंक कितें वापरतात तुमी?

सुरेन : फॉस्फॉरील कंपाउंडस. खूब विखारी आसतात ते. सगले कारभार मायनस चार डिग्री तापमान दवरून करचो पडटा.

बाबू : आनी तापमान वाडलें जाल्यार !

सुरेन : जाल्यार फॉस्फॉरील क्लोरायड तयार जाता, प्रॅशर वाडटा आनी टांकी फुटून अपघात घडूं येता.

बाबू : हें जाणा जावन लेगीत तुमी प्रॉडक्शन चालू दवरतात ?

सुरेन : असो गचेक धरूंक येनाका. आमच्या कारखान्यांत हेर सुरक्षा –

उपाय भोवच कडक आसात.

बाबू : खबर आसा तें म्हाका.

सुरेन : बाबू, हे कंपनीचेर तूं जे आरोप करूंक फुडें सरला तातूंत कांयच तथ्य ना. बेठोच तकलेक शीण पावयतलो. ते परस दुसरें कितेंय कर. मंत्र्यांच्यो भानगडी वयर काड. भ्रश्टाचार उकतो कर. कितेंय फायदो जातलो. हें सगलें करून कितें मेळटलें तुका ?

बाबू : फाटले दोन म्हयने हांव तुमचे कंपनीचेर रिपोर्ट तयार करतां. जसजसो हांव खोलांत वचूंक लागलां तसतशें म्हजेवयलें दडपण वाडत वचूंक लागलां.

कित्याक कोण जाणा. फकत गिधाडां दिसतात म्हाका दोळ्यांमुखार. तुमचे सुरक्षा वेवस्थेचेर जाल्यार म्हजो कुस्कूटभर लेगीत विस्वास ना सुरेन.

सुरेन : बेठेच मनाचे खेळ तुजे ते.

बाबू : म्हजें तुमचे कंपनीकडेन कांयच देणें–घेणें ना. पूण म्हाका हें शार काबार जाल्लें नाका.

सुरेन : बाबू, सगल्या जगाचो भार तुजे तकलेर कित्याक ! वयर वचपाचें आसा जाल्यार बरोबर या. पूण अशें भियेवन जियेवप कित्याक ?

बाबू : सुरेन, मर्णाचो भंय म्हाकाय दिसता. पूण ताजेय परस चड भंय म्हाका जितो उरपाचो दिसता. त्या जगपांत अर्थ आसचो ना. म्हाका तें जिणें नाका.

सुरेन, म्हाका ह्या कारखान्याचें रुपडें पिंजचेंच पडटलें.

सुरेन : बाबू, हांवें तुका विचारप समा न्हय ! पूण तुका हो रिपोर्ट उजवाडाक आयल्यार कितेंय फायदो आसा ?

बाबू : कसलो फायदो ?

सुरेन : कसलो म्हळ्यार ? पयशांचो. बढटी बी तसलें कितेंय.

बाबू : सुरेन, वळखलो ना तूं म्हाका. पयशांचो हावेस धरिल्लो जाल्यार हांव पत्रकार जावचो नाशिलों. उण्यांत उणो संपादक तरी जावंक पावतलों आशिल्लों.

तत्वाकडेन तडजोड करपी मनीस हांव न्हय. घडये म्हजो तो दोशूय आसुये. पूण हांव हो असो.... म्हज्या दोशासकट. ताका आतां कितें उपाय आसा ? हांव जाल्यार बदलपाची शक्यताय ना.

**सुरेन** : मागीर दुसऱ्यांक बदलपाचो हावेस कित्याक तुजो ? तुका कितें दिसत तूं आड्डल्यार जग आयकत म्हणून तुजें ?

बाबू, ह्या कंपनीचीं पाळांमुळां हे भुंयेंत खूब खोल रिगल्यांत. खूब घट्ट, ज्या झाडाक पयशांचें सारें पडटा तें झाड हुमटून वडोवप भोवच कठीण.

**बाबू** : म्हळ्यार ह्या कारखान्याबद्दल म्हजें जें कितें मत आसा ताजेकडेन तूं सहमत आसा तर !

**सुरेन** : हांव हे कंपनीचो एक पगारी नोकर. आनी नोकराक मत आसना.

**बाबू** : म्हाका खबर आशिल्लेंच, हें झूज म्हाका एकट्याकच झगडचें पडटलें म्हणून. कोणाच्या आदाराची अपेक्षाय हांवें करूंक नाशिल्ली.

सुरेन, तुका वायट दिसूंक फावोना. तूं कितें? हे कंपनीचो एक नोकर ह्या नात्यान तुजें कर्तव्यूच करता.

पूण म्हणून म्हजेंय कर्तव्य आसा काय ना ? ह्या शाराचो नागरीक म्हणून, एके बायलेचो घोव म्हणून, एका इश्टाचो आमीग म्हणून, एक मनीस म्हणून म्हजींय कांय कर्तव्यां आसात. म्हाका सगले जिते उरूंक जाय जाल्यार हें झूज म्हाका झुजचेंच पडटलें.

ह्या शाराचें मूळ पोखरपी कीड – हय, किडूच म्हणीन हांव ह्या कारखान्याक. ही कीड ना करची आसा म्हाका.

हिमालयायेदो शक्तीवान हो कारखानो एके वटेन आनी दोंगुल्लेपरस ल्हान असो हांव दुसरे वटेन. पळोवया काळाची तागडी खंयच्यान झुकता ती. म्हजें दालें ल्हव आसा तरीय म्हाका झुजचें आसा.

सगलीं झुजां जिखूंकच झगडचीं अशें खंय कितें आसा ? हें

झूज हांव हारुंकूच म्हणून झुजतलों. पूण हांव झुजतलों. हांव दुबळो, पूण हांव झुजतलों. हांव एकटो, पूण हांव झुजतलों. म्हजेलागीं दुसरो पर्याय ना म्हणून हांव झुजतलों. हांव झुजतलों.

(काळोख)

**बाबू** : तांबडो रंग पळोवन बैल झुडून फुडें वता. कारखान्याबद्दल म्हजीय मनस्थिती पिशा बैलाचीच जाल्ली. सुरेनान केल्लीं फकाणां आनीक समजावणी म्हजे तापिल्ले तकलेर फुंकर घालूंक शकलिना. सुरेन म्हळ्यारय कंपनीचोच नोकर. म्हजी ताजेयविशींची ओड कमी जाली.

आतांमेरेन हांवें सगली म्हायती जमयिल्ली. म्हजो रिपोर्ट पुराय जायत आयलो.

मदीं जें घडलें तें घडपाचेंच. ताका म्हजेदेखी व्हडलें म्हत्व ना. मनार घेवपासारकी गजालूच न्हय ती. म्हाका नोकरी सोडची पडली.

आतांमेरेन म्हजो पांय चिखलांत पुराय घुस्पल्लो. आनी जेन्ना रेबोच निवळ करपाचो म्हजो हावेस आसा, तेन्ना तातूंत घुस्पल्लो म्हजो पांयूच निवळ दवरूंक हांवें कित्याक सोदचें ?

(काळोख)

(एके वटेन मालक, दुसरे वटेन बाबू आनी संपादक)

**मालक** : बाबांनो, तुमी दोगूय कितें म्हाकाच काबार करूंक उठल्यात ?

**संपादक** : तशे न्हय सर ! पूण समाजविघातक कार्यांची म्हायती लोकांमुखार मांडल्यार तातूंत वायट कितें ? एका दिसाळ्याचें कामच तें !

**मालक** : हें तुमी म्हाका सांगपाची गरज ना. हो पेपर चलोवन म्हाका

व्हडलो फायदो ना. दुसरेकडेन जें हांव जोडटां तें हांगा मोडटां. तुमच्या कर्तुबान कंपनीचें कितेंय लुकसाण जालें जाल्यार म्हजें केदें व्हडलें लुकसाण जातलें चितलां तुमी ? फोंडांत पडटलों हांव.

म्हळें, समाजाची कितेंय सेवा करची म्हणून हें दिसाळें सुरू केले. पूण तुमी म्हज्याच बोडाक वोस काडूंक फुडें सरल्यात. कोणें सांगिल्लें तुमकां कपंनीचेर रिपोर्ट तयार करूंक?

ाबू : कंपनीन ह्या शाराच्या निर्मिला जो भंय उबारला ताजेर पत्रकारांनी तोंड उगडप न्हय जाल्यार कोणें ? हांव म्हज्या वेवसायाकडेन प्रामाणीक रावलों.

मालक : आनी तेखातीर म्हजो वेवसाय बंद पडटलो ताजें किदें ? तें काय ना. हो रिपोर्ट छापून येवप म्हाका परवडचेलें ना.

बाबू : पूण सर, कंपनीकडेन बारीकशी चूक जर जाली जाल्यार उब्याचें आडवें जातलें हें शार !

मालक : तुमी कितें शाराची मक्तेदारी घेतल्या ? म्हाका खपचेंना हे तुमचें.

संपादक : पूण सर–

मालक : पूण आनी बीण. तुमचीं एकेकट्याचीं पोटां भरल्यांत. तुमचे नोकरेपरस तुमकां तुमचो रिपोर्ट व्हड आसत जाल्यार सरात तुमी फुडें. पळोवन घेन एकेकट्याक. ह्या शारान आपल्या विकासाचें प्रत्येक पावल कंपनीचें बोट धरून घालां हें कित्याक विसरले तुमी ?

हो विशय हांगाच बंद. रिपोर्ट छापून येवचो ना.

(मालक काळखांत)

बाबू : विकास ! कसलो विकास ! हांव हाका विनाशूच म्हणन. कंपनीचें बोट धरून हें शार विनाशाची वाट चलता.

संपादक : बाबू तुवें सांगिल्लें तें पट्टा म्हाका. पयसो खूब कितें उलयलो. सत्तेचो मद खूब कितें उलयलो.

बाबू : आनी आमी तें मुकाट्यान आयकून घेतलें. कित्याक ? मालकाक

जाप दिवपाची कापाझदाद कित्याक जावची न्हय आमकां ?

**संपादक** : नोकरी सुटून भुकेन मरचे परस प्रदुशणान मरप बरें.

**बाबू** : म्हळ्यार तुमचेदेंखी तत्वां म्हणटात तीं फकत तोंडाक लावपापुरतीं वापरप तर ?

**संपादक** : अशेंय कांय न्हय. पूण आमचे भोंवतणचो आडामो हुपून वचप आमकां कशें शक्य जायत ? हो काळोख हुपून उजवाडाच्या सुर्याक लागीं हाडपाइतलीं आमचीं पाखां बळिश्ट नात.

**बाबू** : तुमचीं नात. मालकाचींय नात. तुमकां नोकरी व्हड जाल्यार ताका आपलो वेवसाय. पूण म्हणून हावेंय तुमचेच गांथनींत स्वताक कित्याक गुंथून घेवचो ? म्हज्यान शक्य जावचें ना तें.

**संपादक** : मागीर नोकरी ?

**बाबू** : हय. तो प्रश्न उरताच. पूण सद्याक तरी रेशाची नोकरी आसाच न्हय. मातशे त्रास भोगतले जिवाक. पूण सोंसचें पडटलें.

**संपादक** : म्हळ्यार बाबू तुवें नोकरी सोडपाचें थारायलां?

**बाबू** : दुसरो उपाय तरी कितें आसा ?

**संपादक** : तुज्या सादाक ओ दिवन झुझामळार देवपाचें बळगें म्हज्यांत ना. पूण बाबू, तूं जैतीवंत जावचो.

**बाबू** : येतां हांव. खरें म्हळ्यार वतां. म्हजो राजिनामो पोस्टान पावयतां.

(काळोख)

**बाबू** : नोकरी सुटिल्ली. म्हण्टकच तसो बेकारूच हांव. पूण म्हज्या हांवें पायांक चक्रां बांदून घेतिल्लीं. प्रत्येकाचो हुंबरो हुपलो पूण प्रत्येकान आपले भोंवतणीं एक उबदार कवच जें बांदून घेतलां तें फोडपाक मात शक्य जालें ना. मनशां स्वताच्या सुवार्थाबगर दुसरो विचारच करिनात हेंवूय म्हाका होलमलें. घरांतलीं आनी घराभायलो दरेकलो म्हज्या कार्याच्या आड उलयतालो.
(घर. रेशा बाबू येता)

**बाबू** : कोणाकच चिंता आसतशें दिसना. दरेकलो आपलेच पुरतो जगता. जाणा तूं रेशा – ह्या शारांतलो दरेक मनीस दुसऱ्या मनशाच्या सूख – दुखापासून स्वताक कितलो पसय समजता तो !

**रेशा** : कितें जालां तुजें बाबू ? दोन–तीन म्हयने जाले पळेतां. तुका विचारीन म्हणटां. जालां कितें ? कसली चिंता भेश्टायता तुका ?

**बाबू** : कांय न्हय !

**रेशा** : म्हाकाय सांगपाचें ना ?

**बाबू** : हातूंत लिपोवपाचें कांयच ना. पूण म्हाका भंय दिसता तूंय म्हाका पिशार काडत म्हणून.

**रेशा** : (हांसत) हांवें तुका पिशार केन्ना काडला !

**बाबू** : (आपलेच भितर) रेशा, तुका मावली खबर आसा, मावली? आठ पांयांची ? स्पायडर ?

ही मावली आपलेच भोंवतणीं एक सुंदर जाळें विणून घेता. भुरगेपणांत हांव त्या जाळ्याक खूब तोखेतालों ती नाजूकसाण, तो compactness.

पूण एक गजाल खबर आसा तुका रेशा ! तें जाळें म्हळ्यार मावलेचें घर न्हय. तें घर म्हळ्यार मावलेचो फकत डायनींग रूम.

त्या जाळ्यांत सांपडटल्या प्रत्येक जिवाक ती मावली खाता. खरें म्हणशी जाल्यार ते जीव त्या जाळ्यांत सांपडचे आनी आपल्याक खावंक मेळचे ह्या एकाच उद्देशान ती मावली तें जाळें बांदता.

**रेशा** : बाबू, पूण तूं उलयता ताजो अर्थ कितें ?

**बाबू** : रेशा, आमच्या देशांत परक्यांचे भागिदारीन उबे जाल्ले व्हड – व्हड कारखाने ह्या मावल्यांच्या जाळ्यांभशेन आसात. ह्या कारखान्यांचे खरे मालक अस्तंती देशांनी बशिल्ले शेट – व्हडल्यो मावल्यो आनी आमी मावलेच्या जाळ्यांत सांपडिल्ले जीव.

हे कंपनीच्या वेव्हारांत आमच्या उतराक कांयच वालोर ना. आमी फकत मावली आमचेर केन्ना नदर घालतली हाजीच वाट

पळयत रावपाचें.

अशीं कितलींशींच जाळीं आमच्या देशांत फाफसल्यांत. आमचो देस तातूंत चडांत चड घुस्पत चलला.

रेशा : पूण ह्याच कारखान्याक लागून आमची अर्थीक घडी सारकी जाग्यार बसली तें कितें ?

बाबू : ना रेशा ! आमी स्वतंत्र नात. अर्थीक नदरेन जाल्यार नाच नात. आमी केन्ना मरपाचें तें लेगीत अस्तंती देशांतले शेटच थारायतले.

रेशा : तूं चड निराशावादी जायत चलला बाबू !
(सुरेन येता.)

सुरेन : म्हजेंय तेंच म्हणणें. भायले एक सोड. म्हाका दिशिल्लें घरांत तरी बायलेक वेंगांत घेवन मोगाच्यो खबरो चालू आसतल्यो हाज्यो. पूण हांगाय तेंच.

रेशा : हाज्यो खबरो कितें काय म्हळ्यार मावली, कंपनी आनी मरण!

सुरेन : तुका हांवें मागणी घालली तेन्ना म्हाका कित्याक ना म्हणिल्लें तुवें ! रेशा, हम अब भी तैय्यार हैं !

रेशा : फकाणां सोड रे ! तूं तरी समजाय मरे ताका.

सुरेन : हांव कितें समजायतलों ताका – म्हजें आयकल्यार न्हय तो ?

बाबू : सुरेन, हांगा तरी तूं कंपनीचो नोकर ना. म्हाका सांग तुका मातूय चिंता ना ?

सुरेन : बाबू, देवान म्हाका एकच तकली दिल्या. तिका चड शीण दिल्यार म्हजें लुकसाणच जातलें. फायदो कांय ना.

बाबू : ८०,००० लोकांच्या जिविताचो मातसो विचार केल्यार तुजें लुकसाण जातलें ?

सुरेन : बाबू, म्हाका म्हजी जीण जगूंक आवडटा. दुसऱ्याचो पेज तकलेर घेवन म्हाका कितें करचें आसा. आनी तुकाय म्हणून कोणें सांगलां हें करूंक ?

बाबू : म्हाका कोणें सांगला हें करूंक ? तुमचे कंपनीच्या प्रदुशीत वाऱ्यान मेल्ल्या दोंगुल्लेवयल्या झाडांनी सांगलां म्हाका हें करूंक.

तुमचो कारखान्यांतलो वेस्ट जिरून नापीक जाल्ले मातयेन सांगलां म्हाका हें करूंक.

तुमचीं रसायनां जिरून दुशीत जाल्ल्या बांयच्या उदकान सांगलां म्हाका हें करूंक.

म्हाका म्हज्या कोंसयेंसान सांगलां हें करूंक.

**सुरेन** : चडय ध्येयवादी जावन कितें सादचें आसा तुका ? कोणाक म्हणून सुखी करूंक पावतलो तूं ?

**बाबू** : म्हाका स्वताक तरी निखालूस म्हजी ना जाल्ली न्हीद जरी म्हाका परत मेळ्ळी जाल्यार खूब जालें.

**रेशा** : बाबू, असो एकटोच झुजून तूं काबार जातलो. म्हाका ताजो भंय दिसता.

**बाबू** : काबार जावपाचो भंय म्हाका ना रेशा. तुकाय तो आसचो न्हय. सुरेनाचें हांव नकळों.

**सुरेन** : (दुखावला) अशें कित्याक म्हणचें तुवें बाबू ? कितें तें बारीकशें कारखान्याचें कारण ? कितें ती अपघाताची शक्यताय आनीक बेठेंच तुजें म्हजें वायटपण. नाका रे बाबू, आमी पयलींभशेनच जगुया. बरें तें आयुष्य !

**बाबू** : तुका दुखोवपाचो म्हजो उद्देश नाशिल्लो सुरेन. पूण हांव म्हणून कितें करूं ? आतांमेरेन इतलें जाणां जालां की खंयच्या खिणाक मर्ण मानेर बसत हाजीच वाट पळयत आसतां हांव – जाणा तूं?

**सुरेन** : पूण तशें जाल्यार म्हाका भंय दिसना तो कसो ? हांव कंपनीक म्हजो वेळ विकतां, म्हाका स्वताक न्हय, तूं पत्रकार आसत पूण तो भायर. घरांतूय कित्याक त्यो खबरो ?

**बाबू** : सुरेन, हो रिपोर्ट म्हळ्यार म्हजी जीण.

**रेशा** : सुरेन, बाबा, हांव हाका सांगून–सांगून खरशेलां. हालीं हो त्या रिपोर्टांत इतलो घुस्पला की पिशांतूर जाल्लेवरी वागता. दीसरात कितें काय म्हळ्यार त्या कारखान्याची तासमपट्टी. ताजेरूच चिंतप.

**सुरेन** : प्रवाहा आड पेवंक सोदपी नुस्त्याची गजाल तूं जाणा बाबू ! कितें सादपाचें आसा तुका ? जगाचे नदरेन तूं एक सामान्य पत्रकार. तुवें कितल्योय बोबो मारल्यो तरी कंपनी एकाच उतरान तुका फट थारावंक शकता.

**बाबू** : पूण हांव जें कितें उलयतां तें पुराय खरें हाजेर म्हजो विस्वास आसा.

**रेशा** : पूण लोकांचो विस्वास जर ना जाल्यार उपेग कितें?

**बाबू** : म्हळ्यार रेशा, तुकाय दिसता हांवें ह्या मार्गावयल्यान पावल फाटीं घेवचें ?

**रेशा** : हय, म्हाकाय तशेंच दिसता. म्हाका त्या रिपोर्टापरस आमचें दोगांयचें सूख चड लागींचें दिसता.

**बाबू** : आनी तो रिपोर्टच म्हजें सूख आसलो जाल्यार ?

**सुरेन** : अशें तेमाक पेटचें न्हय. रेशाची कितें चूक आसा ? ताका लेगीत जर तूं वेळ दिवंक शकना जाल्यार मागीर कितें उरलों?

**रेशा** : आनी हें चलतलें तरी कितलो तेंप ? तुज्या एका रिपोर्टान कंपनीक साटली–पोटली गुटलावची पडटलीशे दिसता तुका !

**बाबू** : कितें जातलें तें म्हाका खबर ना. पूण तें तशें जावचें म्हणून हांव वावुरतां. तुमी दोगांय म्हजीं लागींचीं मनशां. पूण तुमचें म्हणणें हांव कशें मानू ? म्हजो निर्णय थरिल्लो आसा.

म्हजो हो रिपोर्ट उजवाडाक येतलो. कोणाचेंच फाटबळ ना जाल्यार उपकारता म्हाका. हांव एकलोच फुडें वतलों. फाटीं सरप आतां शक्य ना. फुडें सरप लेगीत जेमेरेन अशक्य जातलें, तेमेरेन हांव चांट मारत रावतलों.

(काळोख)

**बाबू** : हांव तुमकां सगल्यांक कितें तरी सांगूंक सोदतां. हांव जें कितें सांगतलों ताजो संबंद तुमी जगतल्या प्रत्येक खिणाकडेन आसा.

तुमचे जिणेकडेन आसा. हांव तुमकां तुमच्या मर्णाची गजाल सांगूंक सोदतां.

हांव जें कितें उलयतां त्या आदारान म्हाका पिसो थारावपी लोक तुमचेभितर आसात हेंवूय हांव जाणां. पूण तांकां म्हजें सांगणें एकच – म्हजीय इत्सा तीच.

एक वेळ हांव पिसो थारचों, पूण हांव जें कितें सांगतां तें फट थारचें.

**बाबू** : तुमकां खबर ना तें हांव जाणां. खंयच्याय खिणाक आमच्या शाराचेर घुरी घालूंक मर्ण दबून बसलां. आमचे मदल्या अडेज हजारांक पोटाक लावपी, आमचे मदले अडेज हजार संवसार पोसपी एक म्हारू आमच्या सगल्यांच्या निमण्या स्वासाची वाट पळयत आसा.

हो म्हारू आमीच चूड दाखोवन घरांत हाडिल्लो. आमी इतले दीस आमच्या शाराचें भूषण म्हणून जाका वळखतात त्या कारखान्याबद्दल हांव उलयतां.

तुमचे अविस्वासान भरिल्ले दोळे म्हाका आडावंक शकचे नात. कारण हांवय पयलीं तुमचेवरी ह्या कारखान्यान हाडिल्ल्या सवस्तकायेच्या रंगयाळ्या सपनांत घुस्पल्लों.

आनी आयज त्याच मरणाचीं म्हाका सपनां पडूंक लागल्यांत. सवस्तकायेचीं गुलाबीं सपनां केन्नाच करपून गेल्यांत. आयज त्या रंगाबदला सर्वनाशाचें विखयाळें रूप म्हाका भेश्टायता.

हांव भिंयेलां, खरें सांगता – म्हाका शाराच्या मर्णाचो वास येवंक लागला.

शक्य जाता ताज्या दारार हांवें मारलें. प्रत्येकाक कुले घाले. पूण सत्तेन म्हाका प्रतिसाद दिलोच ना. तेन्नाच हांवें मेकळेपणान तुमचेमुखार येवपाचें थारायलें.

कंपनीविशींचो अंधश्रध्देचो बुरखो पिंजून वडयात. फटीच्या सवस्तकायेच्या जाळयांत घुस्पून उरले जाल्यार खंयचेखंय ना

जातले आमी सगले.

जितो रावंक सोदपी प्रत्येक मनशाक उठचें पडटलें. ह्या देशांतल्या प्रत्येक स्वतंत्र नागरिकाक उठचें पडटलें. तुमकां सगल्यांक उठचें पडटलें. उठात, ही काळाची गरज.

(काळोख)

**रेशा** : अखेर तुवें तुका जाय तशेंच केलें. पूण कितें फायदो जालो ताजो ? कोणेंच काना–मनार घेतलेंना तुजें म्हणणें. वयल्यान तुकाच फट थारायलो. कंपनीच्या एका साद्या पत्रकान तुजो सगलो रिपोर्ट फट थारायलो.

आतां तूं म्हणटलोच की तुका हें पयलीच खबर आशिल्लें. मागीर पिशा, अशें झुजप कित्याक ? उज्यांत हुलपून वचपी पतंगाची जीण जगपाचो कसलो हो हावेस ? आनी तरीय तुका अजून आस्त उरप? कितें काय म्हळ्यार लोकाक समजुपाक वेळ लागता. तुवेंच कित्याक समजावप तांकां !

जालां तें जालां. आतां तरी पुरो. सोडून दी तें सगलें. परत यो बाबू, यो रे परत–

परत यो बाबू, यो रे परत –

(काळोख)

**सुरेन** : बाबू, अजून पयलींभशेनच आसा तुजो स्वभाव. हट्टी, तिरसुवाद. भुरगेपणांत आपले पसंतीचो खेळ खेळ्ळोना जाल्यार डाव सोडून वचपी बाबू जितलो हट्टी तितलोच हट्टी आयचो, तत्वाखातीर नोकरेचेर खोंट मारून कंपनीआड झुजपी बाबू.

जिणेची आंखिल्ली वाट खिणांत सोडून दिवन नवी वाट सोदप. आनी तेंवूय कितें काय म्हळ्यार आमच्या कारखान्याची सुरक्षा –

वेवस्था कोसळटली, अपघात घडटलो आनी शार काबार जातलें ह्या दुबावान ! (हांसता)

ताज्या आदर्शांची तोखणाय करची काय ताज्या दुबावाची काकूट करची ? (हांसता) आनी इतलें करूनय निमणें अपेसच पदरांत पडप !

बाबू, तूं हरलो रे ! (फोन वाजता) हॅलो – हय, हांव सुरेन! (चेरो रंग बदलता)

कितें ? फॉस्फॉरील कंपाउंडांची टांकी – तूं कितें उलयता तें जाणा मरे तूं ! प्रॅशर कमी जायना ?– स्पॅर टँकाचो सेफ्टी वाल्व तोवूय च्योक जाला – फ्लॅर टावर दुरुस्तीखातीर बंद आसा – तापमान तरी मेण्टेन केलां काय ना ? रेफ्रिजरेशन युनीट मेण्टेनन्साखातीर बंद आसा ? ह्या कारखान्यांत कितें चालू आसा तर ? फकत फॉस्फॉरील कंपाउंडांची टांकी तितली उकती पडल्या ? (फोन दवरून धांवता)

**सुरेन** : स्पॅर टांकयेचो सेफ्टी वाल्व सुटना. प्रयत्न करात. जातलो सांवार दोळ्यांमुखार हाडात आनी करात काम. उपाय ना ? वाऱ्याची दिशा पळयात. कितें ? वारोच शारा वटेन व्हांवता ? उपाय ना. अरिश्टाची घांट वाजयात.

कळूंदी तरी लोकांक मरण दावें तोडून तांचे वटेन धांवता म्हणून. कळूंदी तांकां ते मरपाचे आसात म्हणून – कळूंदी तांकां (कोसळटा) बाबू, इतले बेगीन खरो थरचो रे तुजो रिपोर्ट ?

(काळोख)

**बाबू** : हेंच तें शार. कालमेरेन गजगजतें हेंच तें शार. आयज मरणाची शाल पांघरून सुस्त न्हिदलां. कितले मेले, कोण जाणा ! उरल्यात तांचो फुडार कितें तेंवूय कोणूच नकळो.

ह्या शाराचो गुन्यांव एकूच – ह्या शाराचें दळडीर. जेन्ना

कंपनीच्या पयशांची सूज शाराक आयली तेन्ना शाराक दिसलें, आपूण आंगान भरलां.

कंपनीच्या प्रदुशणाक लागून करपल्ल्या झाडांची काकूट कोणेंच केली ना. प्रदुशीत जाल्ले बांयचें उदक पिवपाची गरज कोणाक आशिल्ली ? कंपनीचे कृपेन शारांत नळ पाविल्लोच.

ह्या शारांत आतां मनीस रावनात. सद्याक गिधाडांनी बिराड केलां ह्या शारांत. हीं मडीं चांचावंक.

आपल्या सुवार्थाखातीर मनीस कितलें व्हड पातक करूंक पावता ताजी गवाय दितात हीं मडीं. ज्या कंपनीन शाराचो सर्ग केलो अशें सगले समजले, तेच कंपनीन शाराची ही आवतिकाय केल्या. हें शार म्हळ्यार एक व्हड मसुंडी जाल्या आयज. मसुंडी

(काळोख)

**निवेदन** : हें शार अशें एकच न्हय. ह्या देशांत अशीं कितलींशींच शारां मर्णांच्या धडेर पावत आसात. ह्या देशाच्या शिरंतरांनी अशो कितल्योशोच सुयो रोमल्यात. ह्यो कंपन्यो आमचें रगत पीत आसात आनीक तांच्या सुवार्थाखातीर अशे कितलेशेच अंयशीं हजार लोक मरणाच्या सुपांत आसात. फाल्यां तेवूय दांत्यांत पडटले.

आमी अशीच मरणाची वाट पळयत रावतले काय कितें हाजो निर्णय तुमकां घेवचो आसा. म्हाका घेवचो आसा. आमकां सगल्यांक घेवचो आसा.

(काळोख)

# आमीय समजूंक लागल्यात

काळखांत ढोल – शामेळ वाजता. ल्हव ल्हव करून उजवाड. माचये फाटल्यान एक देवळाची फ्रेम, मदीं एक घांट.
समूह नृत्य : ऊड रे भोंवरा काळा–निळा
उडून बसला भोंवर शेंवते फुला
आबोलें फुललां बांयकडेन
शंकर न्हाता न्हंयकडेन

राम–लक्ष्मण भरत–शत्रुघ्न नमीलेसी
गणपती हो – नमीलेसी

**गाराणें** : देवा सायबा म्हा्देवा – हय सायबा, देवा सायबीणी जोगिणी, तुमकां पंचिशटांक उलो मारतां वर्सपध्दतीपरमाण ओंदय आमी चार कांठयेवेलीं तरंगां हांगा उबीं केल्लीं आसात – हय सायबा. तरीय, ह्या चारूय काडयावेले अवसर उबे रावचे – हय सायबा आमची कितेंय चूक–भूल जाल्ली आसल्यार आमकां सांबाळून घेवचे – हय सायबा. आनीक हो दसऱ्याचो उत्सव बरे भशेन करून घेवचो हो गोविंदा

(भितल्ल्यान कांय लोक तरंगां घेवन येतात. एका पाटार धरतात. फाटल्यान धोल – शामेळीचो ताल. भगत येता. आपल्या पांयाचें बोट कापून रक्त दिता चार पाटांचेर दवरिल्ल्या निवेद्याक. मागीर तरंगां दवरल्ल्यांत थंयसर येता. ताका बागोवन ताजे ताळटेर घाय घालतात आनी रगतांत शीत कालोवन देवा म्हऱ्यांत व्हरून दवरतात. हें सगळें पळोवपी एक भुरगो आपल्या बापायक कुशीन

व्हरून विचारता)

**भुरगो** : बाबा, पूण ही वर्सान वर्स दादू भगताचीच तकली फोडप कित्याक? गांवांत कितें आनीक लोक नात !

**बापूय** : पुता, देवानच सांगलां तशें.

**भुरगो** : देवान सांगलां ! कोणाक सांगलां, ह्यो नाका आशिल्ल्यो चालीरिती कितें देवान घालून दिल्यात ! ना बाबा. आनीक ही करणी जरी देवाची आसत जाल्यार हांव म्हणीन की तोवूय एक झगझगीत कपडे न्हेशिल्लो, सोबीत मुखामळाचो पूण देंवचाराच्याच काळजाचो आसतलो.

**बापूय** : आमच्या जाणटेल्यांनी आंखून दिल्ले वाटेन आमकां चलूंक जाय आतां ह्या देवळाचीच गजाल घे तूं. हांगा देवळाचे वाजंत्री आसात, मुंडकार आसात, कुळां आसात, पाडेली आसात आनी भावणीय बी आसात. तांकां प्रत्येकाक एकेक काम वांटून दिल्लें आसता.

**भुरगो** : म्हळ्यार वाजंत्र्याच्या चल्यान फक्त वाजोवपाचेंच काम करप आनी भावणीचे धुवेन म्हाजनाचे कुडीची भूक भागोवपाचें बाबा, तूं तरणो आशिल्लो तेन्ना तुका कांयच करचेंशें दिसनाशिल्लें हें थांबोवचेखातीर!'

**बापूय** : दिसलें पुता, दिसलें. पूण झर फुटून उदकाचो घोगो उसळचे पयलींच म्हज्या पोटांतली तिडकूच बावन गेली. आमचे हात गळसणले. कुडीक थरथरो भरलो. आमकां तीच वाट चलची पडली.

**भुरगो** : पूण हें सगलें केलें कोणें?'

**बापूय** : (भिंयेत) ह्या देवळांनी. हीं देवळां चलयतल्या म्हाजनांनी.

**भुरगो** : पूण तांचो नेट कसलो? सगले मेळून आसतले मूठभर. खंयची शक्त तांचे फाटल्यान आशिल्ली ? जातीची ?

**बापूय** : जातीची आशिल्लीच. पूण ताजेपरस चड दुडवांची (आपलेच भितर) हांव तेन्ना तुजे पिरायेचो आसन. म्हजी आवय–

**भुरगो** : म्हळ्यार म्हजी आजी! पूण म्हाका तिका पळयिल्ल्याचो उगडास जायना.

**बापूय** : कसो जातलो! तूं जावचेपयलींच भायर पडली ती.

**भुरगो** : तुका भावंडां नाशिल्लीं !

**बापूय** : भाव नाशिल्लो. पूण एक भयण आशिल्ली. बायू म्हणी आमी. आरे नवेच फुलतले कळयेवरी म्हजें बायू. भिरभिरत्या दोळ्यांचें कोंगऱ्या केंसांचें. तें हासतालें तेन्ना दिसतालें, पुनवेचो चंद्र फांकला मळबांत.

**भुरगो** : आनी बापूय !

**बापूय** : बापूय! म्हजो बापूय कोण हें म्हाका खबर आशिल्लें जाल्यार ताजें मडेंच पातळायता आशिल्लों हांव. आसतलो कोण तरी म्हजो बापूय.

**भुरगो** : म्हळ्यार बाबा, तुजी आवय नायकीण आशिल्ली.

**बापूय** : (पिशाभशेन) नायकीण !

**भुरगो** : (भिंयेवन) बाबा !

**बापूय** : नायकीण ! हय, नायकीणच आशिल्ली ती. पूण खोशयेन न्हय. तिज्या सोबीत रुपान आनीक गोड गळ्यान तिका नायकीण केली. ती ज्या समाजांत जल्मली, वावुरली त्या समाजान नायकीण केली तिका आपले कुडीची वासना भागोवचेखातीर.

**भुरगो** : बाबा, तूं कितेंतरी सांगूंक सोदतालो.

**बापूय** : (आपलेच भितर) पूण बायूची जीण मात आपणें वगडावची न्हय असो तिणें नित्शेव केल्लो.

**भुरगो** : मागीर बाबा!

**बापूय** : पूण वंयेंत फुलतले कळयेचो वास भोंवऱ्याक आयलेबगर कसो रावत! म्हज्या बायूच्या रुपाची सुलूस तांकां लागली. (दुसऱ्या उजवाड–वाटकुळांत बायू पदां म्हणीत नाचत येता)

**बायू** : आई, ये आई ! भाई! खंय गेल्यांत हीं सगलीं !
(आई येता)

आई : आगो, जालां कितें ? सांवार करता गे बाये सामको.

बायू : आगे सांवार कसलो ! आई, आज मगे....

आई : कितें जालें !

बायू : एकटो मगे म्हजे फाटल्यान लागलो.

आई : (भिंयेवन) कोण? कोण फाटल्यान लागलो तुजे ? पाड पडूं ताजें. कांय केलेंना मगो ताणें ?

बायू : आयक तरी गे! म्हजी फाट कशीच सोडना जालो. मागीर हांव आयकतां ! असो दोनूय हातांभितर धरलो आनी अस्सो मारून वडयलो. मेलो आनी गेलो.

आई : आगो, कोण गो तो पापणी ?

बायू : आगे भोंवरो गे एक. फटयली ! (नाचता) आईक फटयली.

आई : निशा, ह्या भोंवऱ्याचोच भंय दिसूंक लागला म्हाका. आमचें बायू व्हड जालां. आतां ताणें अशें हेडूंक वचूंक फावोना.

बायू : हें आनी कितें गे आई?

आई : बायू, तू कितलेंय बरें आसलें तरीय लोकांच्यो नदरो बुरशोच आसतात.

(देसाय भितर येता)

देसाय : कोणाच्यो नदरो बुरशो आसतात ?

आई : लोकांच्यो.

देसाय : म्हळ्यार हांवूय लोकच मगो आतां ? (बायू म्हऱ्यांत वता. बायू पयस वता. तो ताजो हात धरता.)

बायू : आई, ताका पयस वच म्हणून सांग.

आई : देसायबाब, चली ल्हान आसा.

देसाय : नव्यानच फुलतले कळयेची रूच तुवें म्हाका सांगूंक जाय ?

आई : ना ! हांव सुलूची जीण अशी पिसडूंक दिवचीं ना तुमकां.

देसाय : कोण तूं म्हाका आडायतलें ? पळोवया तुजी शक्त (बायूक लागीं ओडटा)

बायू : आई (किळांच मारता)

**आई** : देसाय (तोंड घुंवडायता)
(दुसऱ्या उजवाड वाटकुळांत समूह नृत्य)

**पद** : वाटेवयल्या वडाचो खांदो करकरी ओ
त्यावय वडाच्या पोंदा कळी एक फुलली ओ
कळयेचो परीमळ गांवांत दरवळी आ ?

काळोकाळो भुंगो चिंगा घाली घिरटी ओ
भोवऱ्यान संद सादून घाली गा घुरी ओ
वाटेवयल्या वडाचो खांदो खरखरी

(धोल – शामेळ, हळुहळू आवाज मोटो जाता)
(दुसरें उजवाड–वाटकूळ)

**बापूय** : ही गजाल म्हज्या एका बायूची न्हय. आपले जातीच्या आनी पयशाच्या बळार ह्या मोट्या मनशांनी अशो कितल्योशोच कळयो फुलचेपयलींच माड्डिल्ल्यो आसतल्यो.

आपले कुडीचे वासनेच्या विखारी उज्यांत कितलींशींच सपनां करपिल्लीं आसतलीं. आमकां रडूंक कित्याक येना हो प्रस्न आमकांच पडटा. पूण हांचे वासनेच्या धगान आमची दुकांची बांयच आटून गेल्या. खंयच्याय सोबीत राजकुंवराची वाट पळोवपी बायू आतां जनेलांत उबें रावन गिरायकाची वाट पळेता. आवय भयण हीं नातींच ज्या मनशाक लागनात, तांचें मनीसपणाकडेन नातें आनीक खंयचीं

सूर्य लेगीत आमकां काळोखूच दिता. चांदण्याचो वांटो ताका, आमचो वांटो फकत चंद्रीमावयल्या दागाचो. आमचे जिणेकच एक व्हड व्हड दाग लागला. आमचे जातीचो, दुर्बळकायेचो
(भितल्ल्यान देवाची पालखी येता. फुडें बायू, गुलाब नाचतात)

**पद :** सख्या सोडना, राया सोडना
माझ्या हाताची मिठी जरा सोडना.

(काळोख. धोल – शामेळ वाजता. तातूंतल्यानच धोलाचो आवाज येता. उजवाड वाटकूळ )

**पेरगांव** : गांवकारांनो ! आयकात रे आयकात. फाल्यां दसरो. तेन्ना वर्सावळीचें देवसपण म्हादेवाच्या देवळांत जावचें आसा.

(धोल – शामेळ दुसरें उजवाड वाटकूळ, गांवपण चललां. देवळामुखार सगले म्हाजन बसल्यात)

**गुलाब** : (धांवत येता) तुमी, तुमी घात घेतलो म्हज्या बायूचो. म्हाका पिसूड पिसूड पिसुडलें; आनी आतां म्हजें चेडूं मेळ्ळें तुमकां. तुमचें तळपट जातलें.

**देसाय** : गुलाब, ह्या देसायाच्या रक्ताक दुसऱ्याचीं शाणेपणां आयकुपाचीं संवय ना आनी तुका खबर ना जाल्यार सांगतां, भावणीचें काम दिवो लावप आसता आनी म्हाजनाचें काम दिवो वाडोवपाचें.

**दुसरो** : देवळा खुस्तार जगपी तुमी मनशां, तुमची ही कापाझदाद आमी पळोवन घेतले.

**गुलाब** : कितें पळोवन घेतले? म्हजी कूड पळयली ती पुरो जालिना म्हणून म्हजे चलयेची कूड पळेली. आनीक कितें पळोवपाचें उरलां तुमी? एकूण तुमचेंच खरें. आमचें काम दिवो लावपाचें.

**बापूय** : आई, आमचें काम फकत दिवे लावपाचें आसत. पूण त्याच दिव्यान आमी चुडय पेटयतले. तुमच्या गर्भकुडींनी पेट्टल्या दिवल्यांच्या वातींनी आमचे जिणेचे भगभगते चुडीकडेन उजवाडाची सर्त लायल्या, तुमकां कळचे पयलींच दिवली वाडवतली. काळखाचें हड्डें चेंचून चेंचून आमची जीण मात भगभगत उरतली. (वतात)

**एक** : पोक हड्डें फुडें काडून हो आमकां शापोतां सांगता. मूर्ख खंयचो. ना! आमी फुडें सरया. रघल्या रे रघल्या. (रघलो येता)

**रघलो** : भाटकारांनू!

**दुसरो** : आरे सभाग्या, रघल्या! फाटलो खंड कोण तुजो बापूय फारीक करतलो रे ?

**रघलो** : भाटकारा, मातशी अडचण जाली खरी.

**दुसरो** : अडचण ? तुजे अडचणीभितर देवाक कित्याक हाडटा ? भाट देवाचें मरे ? मागीर ?

**रघलो** : हांव एक खंड भरिना जाल्यार देव कितें गरीब जातलो? देव म्हणून कोणाचो ? आमचोच न्हय?

**म्हाजन** : आसत. देव तुमचो आसत. पूण देवूळ आमचें. म्हाजनांलें आयकून दवर आनी भाट देवळाचें. आरे, एका वेळार आमचो खंड वेळान दिल्यार जाता, पूण देवळाचो खंड ? शीव – शीव ! देवाचो वेव्हार कसो चोख आसूंक जाय.

**रघलो** : पूण म्हज्या चेडवाचें लगीन आशिल्ल्यान हांव खंड दिवंक शकलोंना. आतां जमत तसो फारीक करतलों म्हणटां.

**म्हाजन** : करतलो म्हणटा ? तें कांयच कोंताक पडचें ना. खंड हो वेळार फारीक करुंकूच जाय.

**म्हाजन** : आरे रीण काड ? तातूंत कितें व्हडलेशें ? आनी नाय म्हळ्यार रीण काडिनासतना चेडवाचें लग्न करूंक सोदता?

**रघलो** : रीण काड ! कोणाकडल्यान ? तुमचेकडल्यान मूं? देवाच्या नांवार आपलो सावकारीचो धंदोय बेस बरो चलयतात तुमी. देवूळ हांचेंच. देवूय हांचेच.

आमी आमच्या घामाचें सारें शिंपून पाचवो शालू न्हेसयतात हे धर्तरेक. आनी त्या घामाचें मोल करतात तर तुमी? तुमच्या बायलांनी न्हेशिल्ल्या जरीच्या शालवाच्याकय ह्या पाचव्या शालवाचें मोल चड हें कळटलें कशें तुमकां? (वता)

**म्हाजन** : आनी तो दामू खंय रे? (दामू येता)

**दामू** : भाटकारांनू !

**म्हाजन** : वाजंत्री मरे तूं देवळाचो ? आतां आमी आयकलां की तुका खंय

देवळांत वाजोवपाची लज़ दिसूंक लागल्या.

**दामू** : म्हाका न्ही ! पूण चेडो शिकला न्ही. तो म्हणटालो की

: की देवळांत वाजोवपी बंद करपाचें.

**म्हाजन** : आनी मागीर कितें ? आमी वाजोवपाचे धोल आनी ताशे. देवळाची जमीन भोगिना रे तूं?

: विसरलो रे तूं ? तुज्या जाणटेल्यांनी जमीन कशी मेळयल्ली ती?

**म्हाजन** : म्हळ्यार ? हाज्या जाणटेल्यांनी कितें नाच करून जमीन घेतिल्ली तर ?

: ना ! ताजेयपरस चड मजेशीर. आमच्या जाणटेल्यांनी थारायलें, हांणी देवळांत वाजोवपाचें. मागीर हांकां कितेंय भाकरे कुडको उडोवंक जाय. एक दीस हागेल्या जाण्टेल्याक आपयलो आनी सांगलें –

**जाणटेले** : तुका जमीन दिवपाचें गांवकारांनी मान्य केलां.

**वाजंत्री** : उपकार जाले.

**जाणटेले** : राव, पूण तूं कितली म्हणून जमीन घेतलो ?

**वाजंत्री** : तुमी दितात तितली.

**जाणटेले** : राव, अशें कर ! तूं वाजंत्री मरे ! मागीर ही घे तुतारी आनी हागाच्यान तुतारी वाजयत धांव. ज्या जाग्यार तूं श्वास सोडटा, तितली जमीन तुजी.

**दुसरो** : आनी ते जमनीच्या कुडक्याच्या बदल्यांत तुवें आनी तुज्या सगल्या पिळग्यांनी देवाची सेवा करपाची. जेन्ना तुमी सेवा करपाचें थांबयतले, तेन्ना ते जमनीवयलो तुमचो हक्क वतलो.

**वाजंत्री** : जमीन. तुमचे नदरेन तो एक तांबडो जमनीचो कुडको आसत. पूण आमच्या नांगराचो फाळ हांसत हांसत पोटांत घेवन फळादीक जाल्ली जमीन; आमी आवय समजतात तिका. म्हाका जमीन जाय. चडांतचड जमीन जाय. तेखातीर ही तुतारी वाजयत म्हाका धांवंक जाय. चड पयस धांवंक जाय. इतले पयस की हांव हांकां दिश्टी लेगीत पडचों ना. म्हाका धांवचें आसा. सूर

सोडिनासतना. (धांवता, खरशेता, पडटा).

: इतलोच ? इतलोच कुडको म्हजो ? हांव खुबूच धांविल्लों सूर सोडिनासतना धांविल्लों. म्हज्या दोळ्यांतल्या पाचव्या रंगाची सुवात आतां दुकांनी कित्याक घेतल्या ? तांणी म्हजे भोंवणीं एक वंय कशी बांदून दवरल्या. ही जमीन म्हज्या माथ्यार थापून म्हाका सासणाचो बंदी केला.

न्हय, तांणी न्हय. म्हज्या पोटान, म्हजे जातीन, म्हजे दुर्बळकायेन म्हाका बंदी केला.

(हांसता. मदींच रडटा)

(काळोख. धोल – शिमेळ वाजतात)
(उजवाड. परत व्हदळचेंच दृश्य)

**म्हाजन** : आनी आतां तूं देवाची सेवा करपाचें थांबयशी जाल्यार हो जमनीचो कुडको परत आमचेकडेन येतलो.

: बरें, तो समजतलो. आतां कोण उरला ?

: गजा पाडेली. खंयसर लिपून रावला तर तो ?

(दुसऱ्या उजवाड–वाटकुळांत गजा पाडेली)

: हय, हांवच तो गजा. ह्या देवळाचो पाडेली. मोटें जागृत देवस्थान खंय हें. आनी ह्या देवळाचे म्हाजन ! ते त्याय परस जागृत. देवाचें थोडेंच पडलां तांकां. देवाच्या नांवार आमचेर सत्ता गाजयत आयल्यात हे लोक. ह्याच लोकांनी म्हजे बायलेक भश्टिल्ली. कित्याक ? तिजो घोव एक सादो पाडेली म्हणून ? ती सोबीत दिसली म्हणून ? तिज्या घोवाक तिका सूख दिवंक जमलेंना म्हणून ! हय. हीं सगलीं कारणां आसात. पूण तिजेयपरस चड व्हडलें कारण म्हळ्यार ते म्हाजन म्हणून हें सगलें करूंक शकले. म्हजे बायलेचे अब्रूचेर हात घालूंक शकले.

: दामू वाजंत्र्यान वाजोवचोंना म्हळें म्हणून ताजी पिळग्यांची जमीन

काडून घेवंक शकले.

: भावणीच्या चेडवाचेर बलात्कार करूंक शकले. आनी रघल्याक खंड दिवंक जमलेंना म्हणून तांचेभितल्ल्या एकट्याकडेन रीण काडूंक लावंक शकले. कित्याक ? तर ते म्हाजन. तांचेफाटल्यान दुडवांचें बळगें आसा. आनी आमी, जातीन उणाक, दुडवांनीय उणे.

**दोन** : देवाची सेवा करपाची आमी, आनी पुजा करपाची हांणी.

**तीन** : देवूळ धुवपाचें आमी आनी रंग करपाचे हांणी.

**चार** : देवाक सजोवंक फुलां फुलोवचीं आमी आनी पालखी नाचोवपाची हांणी. कित्याक ? ते म्हाजन. देवूळ तांचें. देवूय तांचेच.

**एक** : आनी ज्या देवाची आमी इतल्या भक्तीभावान पुजा केली ताणें आमकां कितें दिलें ? हीच दैना.

**दोन** : हजार पातकां करून निमणें हे घांटीपोंदा येवन आपूण निर्दोश म्हणून सांगूंक ते धजवले आनी घरची रांदन पेटची म्हणून देवाच्या भाटांतलीं चुडटां पुंजायलीं म्हणून आमी दोशी थरले.

**तीन** : जशें कितें आमच्या आंगांतल्यान रगतच व्हांवना. काय आमी मनीसच न्हय ?

**चार** : ह्या देवळांनी आमच्या सपनांतले देव रावनात. ह्या देवळांनी आसतात नरकासूर.

**एक** : न्हय, ह्या म्हाजनांनीच देवळांचो एक व्हडलो नरकासूर करून वडयला. त्या नरकासुराच्या आंगाक घाण येता. ताज्या आंगाक उयो पडल्यात. आनी आमी सगले ह्या नरकासुराची सेवा करीत आसात.

(नरकासूर नाचत येता)

**एकटो** : आनीक आयज वेळ आयला ही सगली बजबजपुरी थांबोवपाची. ह्या नरकासुराच्या आंगाक काडी लावन समाजाक लागिल्ली ही कीड ना करपाचो वेळ आयज आयला.

मानवतेचें एक नितळ देवूळ उबारपाचो वेळ आयज आयला.

अशे सगले थंड कित्याक ? म्हजे लोक समजनात कित्याक ? म्हजे लोक ह्या नरकासुराक काडी कित्याक लायनात? म्हजे लोक हातांत चुडी कित्याक घेनात ?

(चवग जाण चुडी घेवन चार उजवाड वाटकुळांत येतात. आपल्याच रिंगणांत भोंवत रावतात.)

**एकटो** : बंद करात हीं पिशेपणां.

: पिशेपणां ?

**एकटो** : हय, पिशेपणांच चलयल्यांत तुमी. तुमकां कितें दिसलें तुमी एकटे – दुकटे ह्या नरकासुराक सोंपोवंक शकतले म्हणून !

: हय. आमकां आमचेच जातीच्या रिंगणांत रावन ह्या नरकासुराक सोपोवचें आसा.

: आमकां आमचे जातीचो अभिमान दिसता.

**एकटो** : जातीचो अभिमान ! आरे, झांपडां लायिल्ल्या घोड्यावरी तुमी धांवतले, खरशेतले आनी परत तुमचे जातीच्याच वारांवांआड येवन बंदी जातले. हो नरकासूर तुमचो सगल्यांचो दुस्मान हें तुमी मानतात मरे ?

: हय.

**एकटो** : मागीर मोडात हे जातीचे वारांव. थांबयात तें तुमच्याच रिंगणांत घुमप, आनीक येयात सामकार. तुमच्या एकेकल्याची चूड एकठांय आयलेबगर कसो उजो लावंक शकतले तुमी ह्या नरकासुराक ?

चवगूय जाण काचाबूल, पूण रिंगणांत घुमप थांबयतात. मागीर ल्हवूच एकलो फुडे येता, मागीर दुसरो, तिसरो आनी चवथो )

**एकटो** : म्हज्या लोकांच्या हातांत चुडी पळोवन देवळाची वायटी लागिल्ली बुन्याद लेगीत कडकडली. गर्भकुडींत पेट्टल्या दिवल्यांच्या वातींनी लेगीत काजळी धरली पूण म्हज्या लोकांचे जिणेचे भगभगते चुडिनूच म्हाका हुलपायलो.

जिवाच्या आकांतान म्हज्या लोकांनी उबारिल्लीं शिंगांच म्हज्या काळजाक तोपलीं.
म्हाका उज्यांत उडी घेवचीच पडली.
(सगले फुडें येवन फेर धरतात)

: हो एक टिपरी घे, दुसरीस मार गे
तिसरी घेवून चौथीस मार गे
पाचवीस मारून सहावी फिर बदल.

(आवाज वाडत वता. काळोख)

## आमचीं कांय नवीं प्रकाशनां

- साहित्य सुवाद
  — डॉ. मनोहरराय सरदेसाय
- चित्रांगदा
  — पांडुरंग भांगी
- मृद्गंध
  — सुरेखा तोटेकार
- सैम-घुडी
  — उदय गांवकार
- पारजत फुलां
  — नरेंद्र कामत
- जैत
  — श्रीधर कामत
- शीला
  — एन्. सुहास
- गाज
  — शशिकांत पुनाजी
- मोतयां
  — रोहिदास मंगेशकार
- अक्षयदिवो
  — आनंद वर्टी

